# जाग

रौप्य-उत्सवी वर्स

वर्स २५ ◇ आंक ४ ◇ नोव्हेंबर १९९८

...चो दीस आज
...ान भल्लेलो
...ाहरा, हिऱ्या तुज्या
...कर्णानी फुल्लेलो...

— मनोहरराय सरदेसाय

न्हिदतनाय जागलो तूं
जागे आमकां करून गेलो...
— — —
युगां-युगां पावत इतलें
आमचेखातीर जोडून गेलो

— उदय भेंब्रे

...वेखातीर कश्टलो
...चेखातीर तिश्टलो
...आराम हराम है'' मंत्र दिवन...
...र्ग तुवें घालून दिलो

— सुहास दलाल

जवाहरा हें तुका नमन
लोक नायका तुका नमन
— — —
सानावांगडा ल्हान जावन रे
जोडलें तुवें व्हडपण...

— मनोहरराय सरदेसाय

जवाहरा तुजेविणें
रितें रितें आमचें जिणें

— शंकर भांडारी

# जाग

५ ◇ आंक ४ ◇ नोव्हेंबर १९९८

ी : रवीन्द्र केळेकार
ंपादपी : माधवी सरदेसाय
ारी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.
जुणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.
: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| पटी | : | रु. १००/- |
| र्ष्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| र्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
डगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
ये अदीक जोडचे)

ी नामो :
म्हयनाळें
, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
साउदादिश, पाजीफोंड,
– गोंय ४०३ ६०१.

आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### जवाहरलाल

स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री जवाहरलाल न्हय, तर सरदार पटेल जावपाचे. जवाहरलालां इतलेच ते लोकप्रिय आशिल्ले. ते भायर, काँग्रेस पक्षाचेर जवाहरलालां परस तांचेंच नियंत्रण चड आशिल्लें. सभावानूय ते निबर, घटमूट, लोखणाच्या काळजाचे आशिल्ले. आमच्या राष्ट्रीय जिवितांतले नश्टे, पाडे, कुसके अवगूण मुळासावन हुमटावन उडोवपाची तांक आनी कुशलताय जवाहरलालां परसूच न्हय, तर दुसऱ्या कोणाय परस चड तांच्यांत आशिल्ली. पिरायेन ते जवाहरलालां परस धा-बारा वर्सांनी जाणटेय आशिल्ले. पयले प्रधानमंत्री जावपाचो तांचो हक जवाहरलालां परस चड आशिल्लो.

तरी आसतना देशान तांकां प्रधानमंत्री केले नात. जवाहरलालांक केले. कित्याक ?

सरदारांक आनी मुसलमानांक पडनाशिल्लें.

खरेपणानशीं ते कम्यूनल-बिम्यूनल निखालूस नाशिल्ले. खंयच्याय व्हड सेक्युलर मनशा इतलेच सेक्युलर आशिल्ले. पुणून मुसलमान चुकतात जाल्यार 'तुमी चुकतात' म्हूण सांगपाक ते केन्ना अनमनूंक नाशिल्ले. तांकां 'सांबाळून घेवंक जाय' म्हणटात तें तांकां पटऽ नाशिल्लें. निमाणें निमाणें तर मुस्लीम लीगेचो तांकां खूब कोडू अणभव आयिल्लो. देखून ते उलयताले तें आयकून कम्यूनल मुसलमानूच न्हय, मौलाना आझादां सारके राष्ट्रीय मुसलमानूय तांचे आड गेल्ले. ते मौलानां आडूय उलयताले. मौलानाचेर तांचो व्हडलोसो भावार्तय नाशिल्लो.

राष्ट्रीय मुसलमान देशांत एकलोच आसा तो जवाहरलाल नेहरू, अशें ते भीड मुरवत धरी नासतना म्हणटाले.

स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री तांकां केल्ले जाल्यार तांची सगळी शक्त मुसलमानांक 'जाग्यार' हाडपाच्या वावरांतूच खर्चून वतली आशिल्ली. दुसरें कितेंच ते करूंक पावचे नाशिल्ले. हिन्दू आनी मुसलमान दोनूय जमातींक आपलोसो दिसचो असलोच मनीस स्वतंत्र भारताचो पयलो प्रधानमंत्री जावं येतालो. सरदार तशे नाशिल्ले.

काँग्रेसचे पयले पंगतींतल्या फुडाऱ्यां मजगतीं तीख बुद्‌दिचे, शिटूक, शाणे, विवेकी, खूब पयसलें पळोवपाची नदर आशिल्ले फुडारी राजाजी आशिल्ले. तांकां पयले प्रधानमंत्री केल्ले जाल्यार उत्तर भारत आनी दक्षीण भारत म्हूण जो वेगळेचार आमच्या जिवितांत चलत आयला तो सासणाचो ना जावन वतलो आशिल्लो. सरदारां इतलेच ते सभावान निबर आनी घटमूट आशिल्ले. A man who dared to be unpopular म्हूण तांची नामना आशिल्ली. राष्ट्रहिताचें कसलेंय काम कितलेंय कठीण आसूं आशिल्लें, तें हातांत घेतल्यार लोक आपणा आड वचचे नात मू, हो विचारूच तांचे तकलेक केन्ना आफुडचो नाशिल्लो. तें काम ते करुनूच मुखार वतले आशिल्ले.

आनी पिरायेनूय ते जवाहरलालां परस व्हड आशिल्ले.

पुणून तरणे पिरायेच्या भारताचेर राजाजींची छाप 'उजव्या गटा'चे फुडारी म्हूण पडिल्ली. हो नवो भारत जवाहरलालांच्या संस्कारांत वाडून 'दाव्या गटा'चो जाल्लो. राजाजींक प्रधानमंत्री केले जाल्यार ते भांडवलदारांच्या अर्दानिचे जातले अशी ताका भिरांत आशिल्ली. खरेपणानशीं राजाजी उजव्याय गटाचे नाशिल्ले, दाव्याय गटाचे नाशिल्ले. ते स्वतंत्र प्रज्ञेचे देशभक्त आशिल्ले.

पुणून, राजाजी भौसंख्य मुसलमानी वाटारांक 'स्वायत्तताय' दिवन उडोवंक जाय ह्या मत्ताचे जाल्ले. हाका लागून 'पाकिस्तान दिवन उडोवचें' ह्या मत्ताचे फुडारी ह्या रुपान तांकां राष्ट्रवादी वळखुपाक लागिल्ले. तांकां प्रधानमंत्री केल्ले जाल्यार सरदार पटेलांक जातलो आशिल्लो ताच्याकूय चड विरोध तांकां जातलो आशिल्लो.

मौलानांक हिन्दू आपलो मानी नाशिल्ले आनी मुसलमानांक तर ते आपलें केन्नाच दिसूंक नाशिल्लें. तातुंतूय, धरुंया, तांकां प्रधानमंत्री करुंया अशें कोणेंय म्हळ्ळें जाल्यार खासा तेच ही दायकी आंगार घेवंक तयार जावचे नाशिल्ले.

राजेनबाबू व्हड आशिल्ले. पुणून सभावान मोव आशिल्ले. तांकां प्रधानमंत्रीपदाची दायकी जड वतली आशिल्ली. कृपालानीय तेदेच व्हड आशिल्ले. पुणून सभावान झगडाळ आशिल्ले. सगळ्यांक 'सांबाळून घेवपाची' कुशलताय तांच्या आंगांत नाशिल्ली.

कॉंग्रेसींत पयले पंगतिच्या फुडाऱ्यांत प्रधानमंत्री जावपाची योग्यताय आनी कुशळताय जवाहरलाल सोडून कोणांत नाशिल्ली. ते जल्मान हिन्दू आसूं, धर्मान खंयच्याच संप्रदायाचे नाशिल्ले. हिन्दू नाशिल्ले, मुसलमान नाशिल्ले, किरिस्तांव नाशिल्ले. नाखटा पसून केंसां मेरेन 'सेक्युलर' आशिल्ले. देशांतले भांडवलदार तांचे फाटल्यान आशिल्ले. पुणून ते भांडवलदारांचे नाशिल्ले. लोहिया एक सोडीत जाल्यार, देशांतले सगळे समाजवादी तांचे फाटल्यान आशिल्ले. तरणाट्या भारताचे तर ते फाटल्या पंदरा-वीस वर्सां सावन 'बेताज बादशाह' आशिल्ले. भारता विशीं सुमारा भायर भक्ती आसुनूय ते उलयताले ती भास पुर्विल्ल्या भारताची न्हय, तर फुडाराच्या भारताची आशिल्ली. आंतर-राष्ट्रीय राजकर्णांत तांकां आशिल्ली तितली गती दुसऱ्या कोणाक नाशिल्ली. आनी स्वतंत्र हिन्दुस्तान आतां आंतरराष्ट्रीय राजकर्णांत आपणाली खाशेली सुवात जोडपाक मुखार सरिल्लें. तात्पर्य – जवाहरलाल सोडून देशा मुखार विकल्प नाशिल्ले.

पुणून, एक गजाल विसरूंक फावना—

तांच्या आंगांत खूब व्हडले गूण आशिल्ले तितलेय व्हड अवगुणूय आशिल्ले. सगळ्यांत व्हडलो अवगूण म्हळ्यार, इंग्रजाळ्ळेल्या भारतियां विशीं तांकां सुमारा भायर आपलेपण आशिल्लें. आनी ह्या इंग्रजाळ्ळेल्या भारतियांच्या आंगांत सुमारा भायर अवगूण भरिल्ले. ह्या अवगुणांकडेन ते पळेनाशिल्ले भाशेन करताले. सरदार वा राजाजी पयले प्रधानमंत्री जाल्ले जाल्यार सगळ्यांत पयलीं ते हांचींच पांखां कातरतले आशिल्ले. हांकां 'जाग्यार' हाडले बगर देश जाग्यार येवचो ना अशें दोगांचेंय मत्त आशिल्लें. गांधीय ह्याच मत्ताचे आशिल्ले. तरी आसतना प्रधानमंत्रीपदा खातीर तांणी जवाहरलालांकूच तेंको दिलो. इतलेंच न्हय तर तांणी 'जवाहरलाल होच म्हजो वारस – सरदार न्हय, राजाजीय न्हय. हांव नासतलों तेन्ना जवाहरलाल हांव उलयतां तेंच उलयतलो' अशेंय म्हळ्ळें.

कित्या खातीर तांणी अशें म्हळ्ळें?

विचारान जवाहरलाल गांधींचे नाशिल्ले. गांधी सत्येचें विकेन्द्रीकरण जावंक जाय म्हणटाले. जवाहरलाल केन्द्रीय सत्ता घटमूट करूंक जाय ह्या मत्ताचे आशिल्ले. अर्थीक मळार गांधी तळागाळांतल्या लोकांक सगळ्यांत पयलीं वयर काडूंक जाय आनी हे भाशेन देश सकयल्यान वयर बांदून काडूंक जाय अशें म्हणटाले. तर जवाहरलाल व्हडले व्हडले उद्देग धंदे उबे करून पयलीं उत्पादन वाडोवंक जाय, म्हणटकूच तकलेर रकयल्लें उदक आपशीं पांयांकडेन पावता तशी वयर निर्माण जाल्ली समृद्धी आपशीं तळागाळांतल्या लोकांमेरेन पावतली, ह्या मत्ताचे आशिल्ले.

जवाहरलालांच्या फकत व्यक्तित्वाचेर गांधींचो प्रभाव आशिल्लो. विचारांचेर इल्लोय नाशिल्लो. जवाहरलालांक गांधींचे शिष्य वा अनुयायी खंयचेच नदरेन म्हणूंक येना. ते स्वतंत्र प्रज्ञेचे एक फुडारी आशिल्ले. मार्क्साक जशे लेनिन, माओ सारके वारस मेळ्ळे, तशे जवाहरलाल गांधींक नाशिल्ले.

मागीर, गांधींनी तांकांच आपणाले वारस कित्याक मानले?

गांधींची एक तरा आशिल्ली—

हेर फुडारी आपणाल्या अनुयायांचीं दुबळीं आंगां पळोवन तांचो फायदो घेत आयल्यात. गांधी तांच्यांतलीं न्हिदून राविल्लीं घट पळेताले आनी तीं जागोवन तांचो आत्मविस्वास वाडोवन तांचेकडल्यान आकांताचीं कामां करून घेताले. 'म्हजे फाटल्यान जवाहरलाल हांव उल... तीच भास उलयतले' अशें म्हणून गांधी तांचेर व्हडल्यो दायक्यो... जवाहरलालांचें व्यक्तित्व आशिल्लें ताच्याकूय व्हड करपाचो यत्न क... म्हणूंक जाय. ४२ सावन गांधी हीच भास उलयत आयिल्ले. 'हांव व... जवाहरलाल सगळे मतभेद कडेक दवरून म्हाका जाय तेंच करतले' ... ते जवाहरलालांक 'घडोवपा' खातीर उलयताले जावंक जाय.

जवाहरलालांनी गांधींक जाय आशिल्लीं कामां केलीं नात ही ग... खरी. जवाहरलालां बदला दुसरो कोणूय प्रधानमंत्री जाल्लो जाल्या... तरी करतलो आशिल्लो काय कितें, दुबावूच आसा. पुणून एक ग... विसरूंक फावना – आंतरराष्ट्रीय राजकर्णांत पंचशील आनी अलिप्तता... हीं दोन मूल्यां जवाहरलालांनी प्रस्थापित केलीं तीं गांधींचींच आशिल्लीं...

ह्या एकाच मळार जवाहरलाल गांधींचे वारस आशिल्ले. हेर स... मळांचेर ते आपणाले खाशेले प्रज्ञेच्या उजवाडानूच मुखार गेल्यात. ... हातुंतूच जवाहरलालांचें व्हडपण आसा.

तांची वाट चुकूं. पुणून ती तांची आशिल्ली. ती कोणाच कडल... तांणी उशणी घेवंक नाशिल्ली.

जवाहरलालांकडेन पळेता आसतना गांधींचे शिष्य वा अनुयायी ... पळोवंक जायना. तांचो अवमान जाता. इतलें तारतम्य तरी कॉंग्रेसवा... भितर आसूंक जाय.

## घुसपल्लें जानवें?

आमी इतले कुड्डे, इतले अशीर मनाचे कशे जाले? इतले दुरा... अनुदार, समज नाशिल्ले आमी केन्नाच नाशिल्ले. वेदांचेय मुस्तींत नाशि... बुद्धाचेय मुस्तींत नाशिल्ले. मुसलमान आयले उपरांत जाले, अशेंय म्ह... येना. मुसलमान येवचे पयलींच आमी अशे जाल्ले.

गझनीच्या महम्मदा मुस्तींत अल्-बेरूनी नांवाचो एक अरबी विद्... हांगा आयिल्लो. कांय वर्सां हांगा रावन ताणें हिन्दुंचो – तांच्या धर्मा... आनी समाजाचो – अभ्यास केल्लो. ताणें 'किताब उल् हिन्द' नां... एक पुस्तक बरयलां. इंग्रजींत हिन्दींत ताचीं भाशांतरां जाल्यांत. मराठी... एक जालां. 'अल्-बेरूनीचा भारत' ह्या नांवान साहित्य अकादेमीन... उजवाडा हाडलां.

ह्या पुस्तकांत हिन्दुंच्यो देवा विशिंच्यो, आत्म्या विशिंच्यो, पुर्व... पुनर्जल्म, स्वर्ग-नर्क हे विशिंच्यो मान्यतायो ताणें बारिकसाणेन वर्णू... सांगल्यात. जें जें कितें ताचे नदरेंत भरलें, जें सांगपा सारकें दि... तें सगळें ताणें सांगलां. आपणाक हिन्दुंचीं मत्तां जशीं समजल्यांत त... तीं आपणें दिल्यांत अशें तो म्हणटा. आरते-परते चर्चेचो विशय तीं जा... नात अशी आस्तूय तो उकतायता.

आनी तो म्हणटा—

'अरबस्तान आनी पर्शिया हांच्यो संस्कृतायो वेगळ्यो. तरी आसा... समान अशीं कितलीं-शीं आंगां ह्या दोनूय संस्कृतायां मदीं पळोवंक मेळटा... हिन्दुंची संस्कृताय आनी मुसलमानांची संस्कृताय हांचे मजगतीं स... अशें एकूय आंग पळोवंक मेळना. सामक्यो वेगळ्यो दोन संस्कृतायो ह्यो...

तो संस्कृत शिकता. संस्कृत जाणा जाले बगर हिन्दू धर्म सम...

ग, म्हणटा. पुणून 'संस्कृत शिकप हें दिसता तितलें सोंपें न्हय'
टा. "हे भाशेंत उतरां घे म्हूण भरल्यांत. एकेच गजाली खातीर
उतरां मेळटलीं. केन्ना केन्ना कितल्यो-श्यो गजाली एकाच उतरान
ल्यो. संदर्भ कळ्ळे बगर अर्थ लक्षांत येवचो ना. उच्चारणाच्या
क शिस्तिची भास ही. उच्चारण सारकें करूंक येना तांकां
कपाचो अधिकारूच हे लोक दिनात. इतलेंय आसून पुस्तकांच्यो
तयार करतना मात एकलोय जनताय घेना. पयलेच प्रतिलिपींत
श्यो चुको करतात. उपरांत ह्यो चुको वाडत वतात. इतल्यो
त की निमाणी प्रत हो वेगळोच ग्रंथ काय कितें, असो दुबाव
वेवपा सारकी खंयच्याच ग्रंथाची शुद्ध प्रमाण प्रतिलिपी मेळना.'
तो म्हणटा —

धर्मांच्या लोकांक हिन्दू म्लेच्छ म्हणटात. 'म्लेच्छ' म्हळ्यार
ो. तांचे कडेन ते कसलोच संबंद दवरी नात. आपूण भश्टत
तांकां भंय. उदकाक आनी उज्याक लेगीत दुसऱ्या धर्माचो मनीस
जाल्यार उजो-उदकूय हांच्या मत्तान भश्टता. बुरशें जाल्लें कितेंय
ून घेवं येता. पुणून हिन्दू जाका भश्टलां – वा बुरशें जालां
तें केन्ना निवळून करून घेनात. ह्या तांगेल्या सभावाक लागून
ाच कडेन संबंद येवंक पावना. सगळ्यांक ते परकी लेखतात
पणान तांचेकडेन चलतात.'

आनी हेरांचे संबंदूय जुळून येनात. हाका एक कारण आसा,
बेरुनी म्हणटा आनी सांगता —

राचे फाटीर आपणाल्या देशा सारको दुसरो देश ना, आपणाल्या
को दुसरो धर्म ना, आपणाल्या शास्त्रां सारकीं दुसरीं शास्त्रां
तांचो समज आसा. सभावान ते गर्विश्ट. आपणाल्या ज्ञानाचो
सऱ्यांक घेवंक दिनात. परक्यांक दिनात ते दिनात, आपणाल्याच
या 'भायल्या जातीं'कूय दिनात. परक्यांच्या हातांत आपणालें
न्हय म्हूण ते खूब जतनाय घेतात. इतलेंच न्हय, तर आपणाक
लें आनी तसलें ज्ञान कोण्णाक ना अशें ते मानीस आयल्यात.
आनी पर्सिस (पर्शिया) देशांत विद्वान आसात, तांचेय कडेन
आसात म्हूण तांकां सांगात, 'च्यें, अशें आसूंच नज' अशें
. तुमी सांगतात तें खरें केन्नाच मानून घेवंचे नात.'

रुनी निमाणें एक म्हत्वाचो शेरो मारून म्हणटा, 'हे लोक भायर
यिल्ले जाल्यार इतले कुड्डे उरचे नाशिल्ले. तांची नदर उदार
नाशिल्ली. मन व्हड जाल्लें आशिल्लें... हे लोक पयलीं आतांचे
शिल्ले.'

* * *

तोंडान म्हणचें, हिन्दूंक राष्ट्राभिमान ना म्हूण? संवसाराचे
पणाल्या देशा सारको देश ना, आपणाल्या धर्मा सारको धर्म
इकराव्या शतमाना सावन जे मानीस आयल्यात (अल्-बेरुनी
तलो) तांकां देशाभिमान ना, राष्ट्राभिमान ना म्हळ्यार कोण
लो?

रुनीन वर्णनां केल्यांत तीं हिन्दुचीं. तो आनीक इल्लो खोलायेंत
जाल्यार ताका दिसून येतलें आशिल्लें, हिन्दू नांवाचो कोणूच
ांत ना. भट आसात, बामण आसात, शेट आसात, वाणी आसात,
ासात, नायक आसात, जल्मी गावडे वेळीप म्हार चामार –
तिंचे लोक आसात. सगळ्यांक आपणाले जाती सारकी दुसरी
आपणाल्या चालिं-रितीं सारक्यो चालि-रिती नात अशेंच दिसतें
भट म्हणटा, हांव भट. बामण न्हय, शेट न्हय, वाणी न्हय.
णटा, हांव बामण. शेट न्हय, भट न्हय, वाणी न्हय. शेट म्हणटा,
हांव शेट. भट न्हय, बामण न्हय, वाणी न्हय. म्हारूय म्हणटा, हांव म्हार. चामार न्हय, भंगी न्हय. जण एकल्याक आपणाले जातिचो आनी कुळाचो अभिमान. राष्ट्राभिमानाचींच हीं वेगळीं वेगळीं रुपां – म्हणुंया, 'एब्रीज्ड् एडीशनां'.

राष्ट्राभिमानानूच घात मारला ह्या देशाचो.

* * *

कांय म्हयन्यां फाटीं एक मजेचीच गजाल घडली.

शाहरूख खानाचेर कोणें तरी गुळयो घाल्यो म्हणपाची एक खबर गांवांत पातळ्ळी. शाहरूख खान म्हळ्यार देव हालिंच्या भुरग्यांचो. चड करून यशोदा गायत्रीचे – म्हज्या नातिंच्या पिरायेच्या चलयांचो. वाड्या वयल्यो सगळ्यो चलयो विचारपाक आयल्यो, 'शाहरूख खानाचेर गुळयो घाल्यो म्हणटात ती खरी खबर?'

'म्हाका खबर ना.' हांवें म्हळें.

'टी.वी.र येवंक ना?'

'टी.वी. मुखार दीस भर कोण बसता? आतां सातांक मराठींत 'बातम्यो' येतल्यो तेन्ना कळटलें.'

अर्द पाऊण वर बसून रावल्यो. गुळयो कोणें मारल्यात जातल्यो, कित्याक मारल्यात जातल्यो असल्योच खबरी उचांबळीत जावन करीत रावल्यो. बातम्यो आयल्यो आनी 'तशी मुम्बयंत एक हूल उठिल्ली. ती फकत हुलूच आशिल्ली म्हणपाचें पोलिसांनी सांगलें. शाहरूख खानाक कांयच जावंक ना. तो सुसंगीत बरो आसा' म्हणपाचें आयकलें तेन्नाच सगळ्यांनी एक उस्कार सोडलो.

तोबू – म्हजो नातू आठ वर्सांचो. ताचोय जीव सकल-वयर जाल्लो. एका सारको विचारतालो, 'तो आसा मू, मरूंक ना मू?'

'मरूं रे तो... तुका कितें लागता?'

'हँऽ... तो मरूंक जायना... तो म्हाका खुब्ब आवडटा... कोणें घाल्यात जातल्यो ताचेर गुळयो?'

'म्हाका खंय खबर?'

'सोदूंक जाय आनी ताका मारून उडोवंक जाय.'

रातची सारकी न्हीद पडली ना जावंक जाय पोराक. सकाळीं उठनाफुडें म्हजे कुडींत आयलो आनी कागद पेन घेवन ताणें शाहरूख खानाक एक चीट बरयली —

माय डीयर शाहरूख खान,

यू कम टू गोआ. स्टे इन अवर हाऊस. यू आर सेफ हियर. वुई लव्ह यू. अवेटींग युवर अराइवल. युअर्स सिन्सियरली, तोबू.

म्हजे कडल्यान पोस्टाचो लाखोटो घेतलो. आनी म्हाका म्हणपाक लागलो, 'बरय हाचेर ताचो पत्तो.'

'म्हाका खबर ना ताचो पत्तो...'

'हांव सांगतां, बरय... सिने स्टार शाहरूख खान. व्हेरेवर ही मे बी इन बॉम्बे... इतलें पुरो. ताका सगळे वळखतात.'

हांवें पत्तो बरयलो. मागीर कवराक गॉम लावन ताणें चीट म्हज्या हातांत दिली आनी म्हळें, 'घाल आं ही पोस्टांत.. यादीन...'

कितें करचें, खीणभर हांव घुटमळ्यांत पडलों. मागीर म्हळें, तोबून म्हजेर विस्वास दवरून चीट पोस्टांत घालूंक दिल्या. ताचो विस्वासघात कित्याक करूं? वचून वचून तिकेटिचे पयशे वतले... वचूं. हांवें चीट म्हज्या चिटीं वांगडा पोस्टांत धाडून दिली.

दनपरां शाळेंतल्यान परतनाफुडें तोबू परतो नीट म्हजे कुडींत आयलो. 'शाहरूख खान मुसलमान म्हणटात तें खरें?'

'हय.'

'आनी अमीर खान?'

'तोवूय मुसलमान.'

'शी, मुसलमान बुरशे... ते गायचे मांस खातात...'

'तातूंत कितें जालें, तूं चिकन मटन खायना?'

'चिकन मटन आनी गायचें मास एक न्हय...'

'एकूच तें...'

'गायच्या पोटांत देव रावतात...'

म्हाका अजापांचो धसको बसलो. 'कोणें शिकयलें रे तुका हें सगळें?'

'शाळेंतल्या भुरग्यांनी...'

'आं... म्हणटकूच, हांवें मनांत म्हळें, हाका शाळेंत शिक्षकूच शिकयतात अशें ना... शाळेंतलीं भुरगींय शिकयतात! हाचे शाळेंतलीं भुरगीं संघ-परिवारांतल्या आवय-बापायचीं आसूंक जाय...

शाळा आल्मैदा... अंत्रुजेंतली बऱ्यांतली बरी. हाका हे शाळेंतलो काडूंक जाय ह्या निर्णयार हांव पावलों. पुणून, थंयचो काडून ताका खंयचे शाळेंत घालूंक जाय? दांत ओंठ चाबून जाप सोदूंक लागलों.

* * *

मुसलमान बुरशे, गायचें मांस खातात. किरिस्तांवूय तसलेच, दुकरा मांस खातात. आमी बरे, आमीच बरे, ह्या संस्कारांत जांची वाड जाल्या तांकां 'गर्व से कहो, हम हिन्दू हैं' म्हूण शिकोवचें पडटा? उरफाटें, तांकां शिकोवंक जाय, 'बाबांनो, तुमी समजतात तितले तुमी बरे न्हय, हेरां परस वेगळे तर तुमी निखालूस न्हय. तुमी सगळ्यां सारके, सगळे तुमचे सारके — सारकेच कुड्डे, सारकेच समज नाशिल्ले, सारकेच अशीर मनाचे. सारकेच गर्वान भरिल्ले. तुमगेले म्हालगडे अशे नाशिल्ले. फाटल्या कांय शेंकड्यां पसुनूच तुमी अशे दुर्गतीक पावल्यात.

'गर्व से कहो, हम हिन्दू हैं' म्हूण जे हिन्दूंक शिकयतात ते खंय तरी दुखावल्यात. खंय तरी तांणी मार खाला. खंय तरी तांकां हार खावची पडल्या.

खंय मार खाला? खंय हार खावची पडल्या? सोदून काडूंक जाय. ना जाल्यार, देश कुड्डो जातलो आनी इतिहास सांगता, देश जेन्ना जेन्ना कुड्डो जाला तेन्ना तेन्ना तो गुलाम जाला. परक्यांच्या शेकातळा गेला.

देश बेश्टो गुलाम जायना. दुसरे कोण ताका गुलाम करिनात. तो आपले आपुणूच गुलाम जाता. समाजांत अवगूण वाडटात तेन्ना जाता. अवगूण हे अवगूण. ते हुमटावनूच उडोवंक जाय. अवगूण तशेच दवरून आमी 'गर्व से कहो, हम हिन्दू हैं' म्हूण हिन्दूंक शिकोवपाक लागले जाल्यार एक दीस आमची गत्त जर्मनी सारकी जातली. जर्मनीन आपणाल्या लोकांक सांगलें, 'आमी आर्य म्हणपाचें अभिमामान सांगात, संवसाराचेर शेक चलोवपाचो अधिकार फकत आर्यांकूच आसा हें विसरूं नाकात.' परिणामी, जर्मनींत नाझीझम् वयर सरून घट जालो. आमच्या देशांत हें तत्त्वज्ञान 'हिन्दुत्वा'चें रूप घेवन वयर सरलां.

राष्ट्राभिमानाची सुवात राष्ट्रभक्तीन घेवंक जाय. राष्ट्राभिमानी मनशाक आपणाले अवगूण दिश्टी पडनात. राष्ट्रभक्ताक सगळ्यांत चड आपणाले अवगुणूच दिश्टी पडटात. आमी कितले पिशे, कितले अक्कलशून्य, कितले अशीर मनाचे हाची जाणवीक ताका चड जाता.

ही जाणविकच मागीर देश वयर काडपाची दिका ताका दाखयता.

## नो एक्झीट

पयर एके कडेन वाचलें —

एका काळार 'मिस एशिया' म्हूण मुखार आयिल्ली आनी 'दम मारो गर्ल' म्हूण गाजिल्ली झिन्नत अमान खंय घोवाचो खूब मार खाता[...] घोवूच न्हय, घरचीं सगळीं तिका लोखणाच्या सळयांनी खंय मार [...] मारतालीं. बावडी सोंशीत राविल्ली. कांय वर्सांनी एक दीस उसळ्ळी [...] एक प्रॅस कॉन्फरन्स घेवन तिणें ही खबर वाऱ्यार घाली.

कांय वर्सां पयलीं डिंपल कापाडियाय खंय असोच राजेश [...] मार खायत राविल्ली. मागीर एक दीस, सोंसूं नज जावन, तिणेंय [...] संबंद तोडून उडयलो आनी ती घोवा पसून वेगळी रावपाक लागली.

'दो बीघा जमीन', 'बंदिनी' सारकीं संवेदनशील फिल्मां तयार [...] लोकांमुखार दवरपी बिमल रायची धूव रिंकी बासू भट्टाचार्याकडेन [...] जाल्ली. तिणेंय खंय ह्या मनशाच्या हातान खूब सोंसलें. अखेरेक [...] तिवूय घोवाक सोडून गेली. मुजरत लक्षांत दवरूंक जाय — बासू भट्टाचार्[...] बायलांच्यो ज्यो भयो भयो चल्ल्यात ताचेर फिल्मां काडल्यांत!

नूतन ही एका काळावयली आमची सगळ्यांची 'हिरोईन'. ती [...] रजनीश बहलाकडेन लग्न जाल्ली. तिचेच जोडिचेर घोव चैनी [...] आनी वयल्यान खंय तिका मारतालो. 'ह्या नरकांतल्यान म्हाका [...] गा सायबांनो' अशें म्हणून तिणें एक खेपे फिल्म इंडस्ट्रींतल्या [...] मनशांक चिटीय धाडिल्ल्यो. बिमल रॉयाचे स्मशानयात्रेक ती तोंड [...] आयिल्ली. कित्याक, तिचें तोंड सुजिल्लें, मारांचे घाय तोंडार आशिल्ले[...]

मीना कुमारी कमाल अमरोही कडेन लग्न जाल्ली. तो हरशीं [...] गीतकार, तोवूय बायलेचे जोडिचेर चैनी करतालो. तिचेच जोडिचो [...] खासा तिका लेगीत दिनासलो. सगळी जोड आपणाच कडेन दवरता[...] तोवूय बायलेक पेंटिच्या बॅल्टांनी मारतालो. इतलेंच न्हय तर [...] हांतुळणाचेर मेल्ल्यो कोंबयो, मेल्ले कावळे दवरून तिका भेश्टायता[...] आनी हॅ हॅ करून हांसतालो. तिची इत्सा नासतना कितलेशे खेपे [...] तिका गर्भपात करूंक लायिल्ले.

आमच्याच देशांत हें चलता अशें न्हय. येवरोप अमेरिकेंतूय घोव बायल[...] मारतात. एक खेपे कांय बायलांनी घोवांच्या त्रासां आड आवाज [...] खातीर अमेरिकेंत एक परिशद आपयली. तेत्तीस देशांतल्या बायल[...] परिशदेंत वांटो घेतिल्लो. घोवांच्या जुलमांच्यो ते मेरेन लिपून उरिल्[...] कितल्यो-श्यो खबरी हे परिशदेंत उक्ताडा आयिल्ल्यो. ते मुस्तींत[...] जपानच्या प्रधानमंत्र्यांचीच बायल हे परिशदेंत उलयल्ली आनी आपण[...] सद्दां घोवाकडसून कसलो आनी कितलो मार सोंसचो पडटा हाची [...] तिणें जमिल्ल्या बायलांक सांगिल्ली.

दिलीपकुमार आमचो एक व्हड नट. सायरा बानूकडेन लग्न [...] धर्मान मुसलमान. मुसलमान जाल्ल्यान ताका जाय जाल्यार ताच्यान [...] बायल कायद्यान घरांत हाडूं येता. पुणून सायरा बानूक लिपोवन [...] अस्माकडेन दुसरें लग्न केलें. सगळ्यांक ही खबर कळ्ळी. सायरा बानूच्[...] कानार ती पावली. पुणून कितें करतली बाबडी? ओगी रावली. एक [...] जया बच्चन तिका वचून मेळ्ळी. 'म्हाका भुरगीं आसात म्हूण अमिताभ[...] रेखा कडेन चल्ल्यांत तीं लफडीं हांव सोंसून घेतां... तुका भुरगीं [...] तूं कित्याक सोंसून घेता?' जयान तिका विचारलें. जयाचे सांगणेन सा[...] बानून दिलीपकुमाराक अल्टिमेटम् दिलो. दिलीप कुमार मान सकयल घा[...] अस्मा सरीं गेलो आनी तलाक तलाक तलाक अशें तीन खेपे म्ह[...] तिका सोडून परतो सायरा बानू सरीं आयलो.

अन्नाडी लोकूच आपणाल्या बायलांक मारतात अशें न्हय. कांय '[...] मनिसू'य मारतात. कांय प्रधानमंत्रीय मारतात. व्हडले व्हडले सिनेस्[...] — तांचे इतलीच नामना जोडिल्ल्या — आपणाल्या बायलांक मारतात[...]

फाटीं अमेरिकेंत एकले बायलेन आपणाल्या घोवाचेर पेत्रोल [...] ताका ताच्या घरासयत हुलपावन मारलो. आनी भुरग्यांक घेवन [...] रावन घर कशें हुलपता तें पळेत रावली. पोलिसांनी तिका धरून न्या[...]

केली. तिणें आपणें घोवाक मारला म्हूण कबूल केलें. आनी ...ाक कसो मारतालो तें सांगलें. न्यायाधीशान तिका विचारलें, ...र्षां तूं मार कित्याक सोंशीत रावली ? पळून कित्याक गेली ... दार नाशिल्लें?'

...लॉर्ड, दॅर वॉज अ डोअर... बट नो एक्झीट...' तिणें रडत ... दिली.

* * *

## डॉ. सु. मं. कत्रे

...मित्र मंगेश कत्रे गेल्या म्हयन्यांत अमेरिकेक भायर पडले. ...शास्त्री ह्या रुपान देशांत जायते विद्वान मुखार आयिल्ले. पुणून ... भास-विज्ञानाचे घट बुन्यादीर उबे रावन जे भाशेच्या प्रस्नाचेर ...णीन उलयताले, बरयताले तांच्यांतल्या वयल्या पांवड्याच्या ... मजगतचे डॉ. सु. मं. कत्रे एक आशिल्ले. पुण्यांतल्या डेक्कन ... पदव्युत्तर केन्द्राचे मुखेली म्हूण तांणी कितलींशीं वर्सां काम ...रताक आर्विल्ल्या भासविज्ञानाच्या नकशाचेर सुवात जोडून ...रजेचो आशिल्लो बुन्यादी वावर डॉ. कत्रेंनी केला. हेच कॉलेजींत आसतना तांणी एक नवो, संस्कृत-इंग्रजी, इतिहासीक तत्वांचेर आधारिल्लो कोश रचपाचें काम हातांत घेतिल्लें. विसाव्या शतमानांतलो हो एक व्हड प्रकल्प आशिल्लो. अजुनूय तो चलता. तांचें हें काम पळोवन अमेरिकेंतल्या टॅक्सास विद्यापिठान तांची प्रोफेसर एमेरिटस म्हूण नेमणूक करून तांचो भौमान केल्लो.

तांगेल्या मळावयले तांगेले सांगाती हाका एक खूब व्हड भौमान मानताले.

पाणिनिच्या संस्कृत भाशेच्या व्याकरणाचो डॉ. कत्रेंनी इंग्रजी अणकारय केला. पुणून तांगेल्या सगळ्या कामां मजगतचें कोंकणी समाजाचे नदरेन खूब मोलाचें काम म्हळ्यार तांणी 'द फॉर्मेशन ऑफ कोंकणी' पुस्तक बरोवन कोंकणी मराठीची बोली न्हय, हिन्द-आर्य कुळयेंतली गुजराती, मराठी सारकीच ती एक स्वंतत्र भास म्हूण दाखोवन दिवन कोंकणीक 'बोली' मानतल्या महाराष्ट्रांतल्या 'भाशा-शास्त्रज्ञां'क चिप बसयले तेंच म्हणूंक जाय.

डॉ. कत्र्यांनी कोंकणींत कितेंच बरोवंक ना. पुणून कोंकणीक एक स्वतंत्र भास लेखून आर्विल्ले कोंकणी चळवळीक तांणी जो शास्त्रीय आधार दिलो ताका तोड ना.

तांच्या रिणांत कोंकणी चळवळ सदांकाळ उरतली.

* * *

---

# ...नाद

...ा'च्या सप्टेंबराच्या आंकांतले डॉ. राधाकृष्णन हांचेविशिंचे तुमगेले ...ले.

... आमकां 'भारतीय तत्त्वज्ञान' हो विशय आसलो. त्या वेळार ...तकां आमी आवडीन वाचताले. आमच्या प्रोफेसरान – मे. पुं. – आमकां सांगिल्लें, तीं पुस्तकां वाचूंक तुमकां आवडटलीं. ...डलेंशें कांय पडचें ना. Analytical माहिती खातीर आमकां ...तकां वाचचीं पडटालीं.

...ष्णन शैलीदार लेखक. कांय जाणांच्या काव्यांत नाद आसता ...या गद्यांत आसतालो. ते एक उत्कृष्ट वक्ते. वक्तृत्व हुकमी. ...ा राष्ट्रपतिंचे speech-writers दिसांचे दीस खपून जीं उलोवपां ...तात तांचे परस बरीं उलोवपां राधाकृष्णन उत्स्फूर्तपणान करताले. ...खन आनी वक्तृत्व हांकां लागून राधाकृष्णनाचे मनीस आनी म्हूण दोश धांपून उरताले.

... राजेंद्रप्रसाद आवडनाशिल्ले. ते तांकां orthodox, पोरणे मोदिचे ... तांणी एक फावट शंकराचार्यांची पाद्यपुजा केली, तांच्या पांयार ...लें ही खबर वाचतकूच नेहरू तापले.

...प्रसादांनी भायल्या देसांचे भेटीर वचचें न्हय अशें नेहरूंक दिसतालें. ...रेन तांणी राष्ट्रपतिंच्या अमेरिकेच्या दौऱ्याक मान्यताय दिलिना. ... देसाक भेट दिवपाची तांची इत्सा तशीच उरली.

...ी जातकूच राधाकृष्णनांक आपूण लोकांचे नदरेन ह्या पदाक लायक ... जाणीव आसली. देखून त्या पदार येनापुडें तांणी आपलो पगार ...न घेतलो आनी हे गजालीक भरपूर प्रसिद्धी दिली.

... गांधी आनी तांगेले विचार पटना जाले तेन्ना तांणी तिचेर आपलो ...लो. निमण्या प्रजासत्ताक दिसाच्या उलोवपांत सरकाराचेर भरपूर ...ली. ताका लागून आपलें नांव फाटल्यान उरचें असोय तांचो ...ये.

आतां तांच्या स्वधर्माविशीं. तांच्या पुतान – डॉ. सर्वपल्ली गोपाळ हांणी – राधाकृष्णनाचें चरित्र बरयलां. तालूंत तांणी तांचे गूण आनी दोश दाखयल्यात. राधाकृष्णन हो कोणाचो पूत हेविशीं घुस्पागोंदळ आसा तो आमी कुशीक दवरूंया. तांचें वैयक्तीक चरित्र्य बरें नासलें. तांचो कांय बायलांकडेन संबंध आसलो. डॉ. गोपाळ म्हणटा, हांतली एकूय बायल तांच्या पांवड्याक सोबशी नासली. आनी भितरली एकली तर 'बाजारबसवी' म्हणपासारकी आसली. डॉ. राधाकृष्णन एके सभेंत एकपत्नीव्रताचेर पोटतिडकेन उलयताले तेन्ना ही बायल पयले लायनींत बशिल्ली.

तात्पर्य, राधाकृष्णनांनी आपलो स्वधर्मूय सारको पाळ्ळो ना.

२. डॉ. किरण बुडकुलेन पुनर्नियाळिल्लो नियाळाचो नियाळ वाचलो. ह्या नियाळाच्या नियाळाच्या नियाळाचेर नियाळ बरयन दिसलो. पूण डॉ. बुडकुलेंच्या नियाळाची लांबाय पळेतकूच आनीक कांय बरोवपाचो धीर जालोना. हांवें आनीक कितेंय बरयल्लें जाल्यार कोंकणींत एक म्हणणी आसा 'वेंतभर मनशाक हातभर खाड...' तशें कितेंशें जातलें आसलें.

— अना म्हांबरो
मुंबय

भौ. संपादपी
नमस्कार.

रुप्या उत्सवी वर्साचो सप्टेंबर म्हयन्याचो जाग हातांत पडलो आनी सदचेवरी मनांत खुशालकायेचीं ल्हारां उचंबळून आयलीं.

'इतिहासाचीं पानां' ह्या सदराखाला आयिल्ल्या जयंती नायक हांच्या 'म्हाका जाल्ली कोंकणीची नखलामी' ह्या लेखान चुलींत आशिल्ल्या उज्याच्या कोळशांचेर आयिल्लो गोबोर फूक मारून उडोवन आमी जशे रसरशीत इंगळे पेटयतात, तशो मनांतल्यो कितल्योशोच यादी जाग्यो जाल्यो.

ही गजाल १९९३ वर्साची, मडगांवच्यान हांव पणजे बसींतल्यान वतालें, तेन्नाची. बस मडगांवच्यान सुटली. बसींत जागो नाशिल्ल्यान हांव उबें.

बसींत गर्दी. कंडक्टराचो बोवाळ. 'फार्टी वच', 'फुडें वच'. त्या उलोवण्याचेर म्हजें लक्ष ना. हें तर सदचेंच जालां. इतल्यांत हांव तेंकून उबें आशिल्ल्या सिटावेली जनेलाक तेंकून बशिल्ली एक बायल न्हिदल्या तें हांवें पळेलें. बसींत इतली गर्दी आनी बोवाळ आसून लेगीत तिचें तें न्हिदप पळोवन म्हाका खीणभर तिची तोखणाय दिसली. हांसुंकय आयलें. मनांतल्या मनांत मात्शें हांसून हांवें नदर परतिली. पूण ही बायलमनीस कोण आसत काय हें जाणून घेवपाची उमळशीक मनाक लागली. हांव मात्शें फुडें आयलें. तिचे मांडयेर एक क्रीम कलराची प्लास्टीकची फायल आशिल्ली. तिचेर नांव आशिल्लें, 'जयंती नायक'. परत हांव हांसलें. ओगी रावलें. म्हजो स्टॉप येतकच देंवलें. आनी रोखडेंच हें सगळें विसरलेंय.

अंदू जुलै म्हयन्यांत म्हज्या एका खास इश्टाकडेन उलयतना बसिंनी लोक कशे न्हिदतात हो विशय आयलो आनी हांवें म्हजो हो अणभव ताका सांगलो. तेन्ना म्हाका जयंती नायकाची वळख मेळ्ळी. ताणें कोंकणी सरस्पतिच्या मळार खूब वावर केला; कथा, कविता बरयल्यात, लोकवेदाचेर खोलायेंत वचून वावर केला, ताचेर तीन-चार पुस्तकां बरयल्यांत म्हणपाचें कळ्ळें. जयंती म्हळ्यार तरणाटे पिळगेंतलें एक परजळीत नखेत्र... हें सगळें आयकून जयंती नायक हांचे बद्दल म्हज्या मनांत आशिल्ल्या विचारांक एक वेगळेंच मोडण मेळ्ळें. तरीय ताचेर हांवें व्हडलोसो विचार केलोना.

पूण जेन्ना जाग म्हयनाळ्यांतलो जयंती नायकाचो लेख वाचलो तेन्ना जयंती नायक हांकां हांव खरे तरेन वळखूंक पावलें. कोणाचोच तेंको नासतना एक बायलमनीस अशीं कामां करूंक शकता हें वाचून म्हजीं भुजां अभिमानान फुलून आयलीं. (जयंतीक घरांत कोंकणी खातीर विरोध जालो तेच भाशेन म्हज्याय घरांत 'कोंकणी' म्हणनाफुडें फकाणां मारताले. पूण हांव घरच्यांचे विचार बदलुपाक कांयच करूंक शकनासलें. हालीं मात परिस्थिती बदलल्या.) जयंतीन भायल्या लोकांचो सोडाच, पूण घरांतल्यान जावपी आवय-बापायचो विरोध आसून लेगीत जें काम केलें तें खरेंच तोखणाय करी सारकें आसा. हो वावर मोटे धिटायेचो. ज्या वेळार कोंकणी-मराठी वादान संवसारांत शांततायेखातीर नामना जोडिल्लें गोंय पेटून उठलें आनी पुराय गोंयभर भिरांकूळ वातावरण तयार जालें तेन्ना कोंकणीखातीर झगडप, महा-मेळाव्यांनी वचप, लोकांक एकठावप, तांकां जागे करप हें काम सादें न्हय. हें काम एके बायलमनशेन हेरांच्या आदारान केलां हें कळून म्हाकाय स्फूर्त मेळ्ळी. एक नवीच वात काळजांत पेटली.

पूण व्हड खंतीन आनी पोटतिडकेन म्हाका जयंतीबायक मुजरत सांगनशें दिसता, अजुनूय आमचे भितरल्या कांय लोकांच्या मनांत कोंकणीविशीं अढी आसात. अजूनय आमचे तरणाटे कोंकणी उलोवंक, बरोवंक फार्टी सरिल्ले दिश्टी पडटात. कोंकणी उलोवपाची मनशांक कमी लेखतात. अशें जावंक फावना अशें म्हाका काळजांतल्यान दिसता.

मनांत विचार करून उमेदीन पावल फुडें घातलें जाल्यार बायलमनीस समाजाक उपेगी अशें खूब कितें करूंक शकता ही स्फूर्त म्हाका मेळ्ळी. 'कावळ्याचें पील' हे कथेंतल्या नितून कावळ्याच्या पिलाक मारतात तशी भुरगीं आपल्याक मारीत म्हण मुंबय वचपाचें थारायलें. पूण हांगा जयंतीबायन मनीसरुपी कावळ्यांचे भेश्टावणेक भियेनासतना तांच्यो चोंची सोंसून घेवपाचें बळगें आपणाल्या आंगांत निर्माण केलें हाची तुस्त केलेबगर रावं नजो.

'म्हाका जाल्ली कोंकणीची नखलामी' हो लेख वाचून जयंती खूब लागिंचें दिसलें. कोंकणी भास उलयतना, वाचतना, बरयतना काळजाकडेन पावता. म्हण हांव तिका काळजाची भास (मोगाची भास) म्हणटां. हे भाशे वरवींच जयंती म्हज्या काळजाकडेन पावलें.

सगळ्यांत चड हांव उपकारी आसां भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार आनी भौ. माधवी सरदेसाय हांचें. तांचे कल्पकतेक लागून जाण्ट्या आनी नेण्ट्या अणभवांतल्यान वाचप्यां कडेन व्हड तांकिचे विचार पावोवपाचें कार्य केलां. हाच्या फुडल्या आंकांतल्यान कोंकणी म्हालगडे आमच्या काळजांत अशें घर करून रावंक येतले म्हण आंवडेतां. जागाक उर्बेभरीत लाख लाख परबीं.

देव तुमकां बरी भलायकी दिवं.

— शुभांगी आमोणकार

मडगांव

भौ. रवीन्द्रबाबांक नमस्कार.

'जागा'चो सप्टेंबर ९८चो आंक म्हाका जाऽयतें शिकोवन गेलो. हर म्हयन्याक 'जागा' वरवीं बौद्धीक ज्ञानार्जन जाता हांतूंत दुबावूच ना. पूण सप्टेंबराचो 'जाग' वाचलो आनी हांव शिकिल्लों तो इतिहास, म्हज्या कानार पडिल्ली म्हायती, म्हज्या येवजुपांतल्यान घडिल्लें तर्कशास्त्र, म्हगेल्या मनाची धारणा – सगळें तटस्थपणान तपासूंक मेळ्ळें. आनी सद्विवेक बुद्धीक नव्यान स्मरून विशाळ नदरेची वाड करपाची संद मेळ्ळी.

ब्राह्मण्यत्वाचे फास्केंतल्यान अजून भायर सरूंक पावंक ना... आदीं हांव 'हिंदू महासभे'चो वांगडी आशिंल्लों. उपरान्त शिवसेनेचो वावुरपी जालों. सामकी मोटवी मनोवृत्ती, आत्मकेंद्रीत सभाव. हाका लागून लुकसाण म्हजेंच जालें. स्वातंत्र्यवीर सावरकर म्हजें स्फूर्तिस्थान. कुड्डेपणान आमी फातराकूय शेंदूर फासतात आनी अशे तरेन केन्ना केन्ना मनिसपणूय बिसरू वतात. अशीच म्हजीय गत्त जाली.

रमेश कोरगांवकाराचें पत्र वाचून म्हजे दोळे उकते जाले. दोन-तीन खेपो, बारिकसाणेन हांवें तें पत्र वाचलें. ह्या पत्रांत भोव म्हत्वाच्यो गजाली आयल्यात. स्वातंत्र्यवीर सभावान हुकुमशाह आनी अतिरेकी. तांगेली जीण आनी कार्य ह्याच सभावा प्रमाण घडत गेलां. म्हाकाय हें खरें दिसलें. वाचून, येवजून आयजवेरचे म्हगेले स्रद्धेक, कुड्ड्या विस्वासाक वेर गेलो. भारताक संवसारांत वळखतात महात्मा गांधींक लागून, स्वातंत्र्यवीरांक वा सुभाषबाबूंक लागून न्हयच न्हय. म्हाकाय पटलें. हें पत्र 'जागा'न उजवाडा हाडलें म्हूण हांव तुमचो उपकारी आसां.

आनीक एक – डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णनाच्या नांवान भारतांत 'शिक्षकदिन' पाळटात. येदो व्हडलो जाणकार, पंडीत मनीस हो. पूण पिरायेच्या उत्तरार्धाक एक काँग्रेसजन म्हूण तांणी जी 'शकुनी'ची भुमिका केली ती फकत 'जागा'न उजवाडा हाडली. परबीं! असल्या सोब नाशिल्ल्या करण्यांक लागून येदो व्हडलो मनीस 'मोटवो' दिसूंक लागता. वायट दिसता.

केणींचे 'गाब्रू' कथेंतल्यान वेगळो संवसार पळोवंक मेळ्ळो. जल्मतना अपंग आशिल्ली व्यक्ती चडशी मोटव्या मनाची आसता. तिचो संवसार वेगळो, आपणा भोंवतणचोच आनी इल्लोसो आसता. असल्या मनशांचीं सपनां, संकल्पूय वेगळेच आसतात. भौ. चंद्रकांत केणी मात 'गाब्रू' वरवीं आमचे मुखार वेगळेंच चित्र दवरतात. हें व्यक्तिचित्रण 'खरें' भासोवपाक ते जैतवंत जाल्यात.

सप्टेंबराच्या 'जागा'च्या आंकाप्रमाण ह्या मुखावयल्या 'जागा'च्या आंकांतल्यानूय अशेंच सर्जनशील आनी विशाळ पांवड्याचें बरप आनी विचार वाचप्यां मेरेन पावं आनी अशे तरेन समाजीक मनूय घटमूट, पुरोगामी विचारांच्या मार्गावयल्यान वचत रावं ही इत्सा. जागाक परबीं आनी शुभेच्छा.

— सुहास जोशी

येरवडा, पुणें

# अंतर्वेदना

**मूळ पंजाबी: अमृता प्रितम**

**कोंकणी अणकार: ज्योती कुंकळकार**

दीस एक काळीसांवळी पूण देखणी बायल-मनीस म्हजेकडेन अशा एका भयांकृत प्रसंगांतल्यान ती गेल्ली की ते घडणुकेक च्या मनाचे कुडके-कुडके जाल्ले. ते भिरांतेक तोंड दिवपाचें स आतां बळगेंच नाशिल्लें. दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी तिणें क म्हाका सांगली. आनी हांव अजापान तिचेकडेन पळयतूच

तें सगळें बरोवचेंशें दिसलें ना. पूण दोन-चार दीस सामके खंतीन का दिसलें, मनशाच्या मनाची ही व्यथा समजावन दिवपाक जाय. ा मरणप्राय हाल सोंसून लेगीत आमी भूतकाळाच्या यादींक हात ळेतात... कित्याक लागून अशें घडटा?

बरोवन जाली. 'जाणलो कोणें रंग मनाचो?' पूण ते सांवळे, यल-मनशेच्या विश्वासाचो प्रस्न आशिल्लो. ती काणी तिचे मुखार , तिका मानवली ना, जाल्यार थंयच पिंजून उडोवपाची. केन्नाच हाडप ना.

हयकारानूच काणी उजवाडा आयली. आनी उपरांत तिची चीट

च्या किरणांक कितले रंग आसतात कोणाक खबर आसा? त्या कारान, ही धर्तरी कितल्या रंगांनी चितारल्या, कोण जाणा? सपनांय रंगांनी रंगिल्लीं आसतात. कोणाक केन्ना खंयचो रंग ो आनी कोण केन्ना खंयच्या रंगांत न्हावन वतलो...

मनांत एक आकांताचें दुख्ख किणेल्लें. देखून, उपाय ना जावन गळें सांगिल्लें. अशीं सामकीं आपलींच आसपी, आपलीं नाजूक न्नाच कोणाक सांगूंक येनात आनी तीं कोणेंय आयकून घेतलीं ां तीं समजप कठीण आनी समजलीं जाल्यारूय बरोवप... ! तलवारेचे धारेवेल्यान चलपाइतलें तें कठीण...

वाचून मनाक एक आगळीच धादोसकाय मेळ्ळी आनी परमेश्वराचे ानले. इतलेच खातीर, कोण तरी मनाचो तो विशिश्ट रंग समजूंक देखून. ती काणी हांवें म्हज्या बापायक काल वाचपाक दिली. डिल्ले अवस्थेंत ताणें विचारलें,

व्हडलें गुपीत तूं दुसऱ्याक सांगूंक शकलें?'

वाचले उपरांत थोडो वेळ तो विचारांत गुल्ल जालो. मागीर

ादी आलतू-फालतू लेखिका न्हय. ही देवापरसूय व्हड. तिणें ी म्हाकाय कितले बरे भशेन समजून घेतल्यात पळे.'

हें सगळें बरोवप हेर कोणाकूच जमपाचें नाशिल्लें. कांय दुख्खां निमाणे मेरेन मोनींच उरतात आनी आमी तांकां आमच्या काळजांतूच दवरून जियेतात खरीं, पूण तें दुख्ख म्हजे अशें कोणाकूय सांगून दुसऱ्याचे नदरेंतल्यान दिशिल्ली ताची प्रतिमा पळोवपाची धिटाय मनशामर्दी सपसप पळोवंक मेळना देखून, हांव कथेंतलें एक पात्र म्हणपाचें मान्य करून लेगीत म्हजें खरें नांव सांगपाचें धाडस हांव करूंक शकना...

तिचें नांव तिची दौलत समजून हांव साबाळटां! हांगा फकत तिची काणी सांगतां —

## 'जाणलो कोणें रंग मनाचो'

काळ सदांच फुडें वता अशें न्हय. केन्ना केन्ना तो दिका बदलून फाटल्यानूय वचूंक लागता. चलप्याच्या हातांतल्यान चलतां चलतांच एकाद्री वस्त वाटेंतच गळसणून पडची; जायती वाट चलतकीच ताका उगडास जावचो आनी उपरान्त सोदपाखातीर ताणें परत फाटल्यान परतुचें, ते भाशेन!

एक फावट म्हजे आवयच्या नाकांतले नथींतलें मोतीं, काळाचे मुठींतल्यान अकस्मात गळसणलें. वीस वर्सांनी अकस्मात काळाक परत ताचो उगडासं जालो. तो फटक् करून थांबलो. आनी परत त्या मोतयाचो सोद घेवपाक फाटल्यान परतलो.

वीस वर्सां फाटीं सरिल्ल्या काळाच्या आदारान आज हांव आवयचे नथींतलें मोतीं पळेतां. हांवें म्हजे आवयक केन्ना पळोवंक नाशिल्ली. म्हाका जल्मून चाळीस दीस जाता म्हणसर ती हो संवसार सोडून गेल्ली. पूण आज वीस वर्सां फाटीं गेल्ल्या काळाचे नदरेन हांव पळोवंक शकतां... शेजाऱ्यागेर लग्नाचो बोवाळ चल्ला. व्हंकलेच्यो इश्टिणी माटोव घालतना म्हणपाचीं गितां गावपाक माटवांत जमल्यांत. आमच्या मध्यप्रदेशांतल्या लोकांचे नदरेन माटोव घालपाचो दीस खूब मौजेचो आसता. लग्नाच्या माटवाचे चारूय वटेन हातांत हात घालून चलयो नाचतात. ह्या चलयां मजगतीं जें सगळ्यांत सुंदर आसा, ताणें आपल्या नाकांत खऱ्या मोतयांची नथ घाल्या. तिच्या देखण्या आनी नदरेंत भरपी नाकांतलें तें मोतींय सोबीत दिसता. तिच्या केसांच्यो अल्लड मुदयो नाचाच्या तालार मोडत हालपी कमराचे हालचालीन कपलार पातळटात तेन्ना दिसता, एक घुंघरू चडच झेल घेत तिच्या नाकांतल्या मोतयाक हातांनी स्पर्श करता. आनी ओंठांतल्यान गीत भायर येता. तेन्ना गिताच्या ओडलायण्या कर्तुबांनी नाकांतल्या मोतयाक चडूच कान्त मारूंक लागता. मोतयाचो रंग दिसता पूण गिताचो रंग दिसना. तसोच गावप्याच्या मनाचोय रंग दिसना आनी

ह्या ना दिसपी रंगाखातीर खासावीस जावन तें चली म्हणटा...

''कालचेय परस सोबीत भासपी असो... हो वेगळो जाणलो कोणें रंग मनाचो ?''

हीच ओळ परती परती वीसएक फावटीं गावन तें मुखार म्हणटा —

''कुमारान खणिल्ली माती आपलो रंग वळखना. ही सोबीत सुंदर, देखणी व्हंकल आपलो रंग वळखना. आवयची ही अपुर्बायेची धूव... वळखना... वळखना... आपलो रंग...''

ना समजुपी रंगाक सोडून, त्रासून, वाजेवन निमाणें आमी परमेश्वराचेर, सैमाचेर सगळो भार सोंपयतात आनी आपल्या मनावेलें वजें मातशें ल्हव करतात. पूण अशें करून घडये मन निश्चींत जायना. देखून मागीर ताचें मन किराचें रूप घेवन ज्या देशांत कुचकुचीत पेरां जातात, त्या देशांत उडून वचपाक आंवडेता. पिकिल्ल्या पेरांचेर चोंची मारत मारत पुराय दीस सोंपता. पूण रातचें तें मन परत सैरभैर जाता आनी मध्याने रातीं उठून, चोळयेचीं बांदपां तोडपाक लागता. आनी ही सैरभैर अवस्थाच उपरांत एक गीत जावन रावता.

चल रे किरा पेरांच्या गांवां
पिकिल्ल्या पेरांचेर चोंची मारत
आख्खो दीस सोंपून गेलो
अर्दी रात मागीर चोळयेचीं बांदपां
सोडोवपांत सरलीं
चल रे किरा पेरांच्या गांवां.

आनी गावन-गावन, नाचून-खर्शेवन ती चली थांबता, काय किराचे तांबडे चोंचीक भियेवन किराचें गीत गावप ती थांबयता, काय माटवांतल्यान तिचेर थिरावल्ल्या लोकांच्या नदरांची लज दिसून तें गावप थांबयता. उपरांत न्हवऱ्याक घेवन लोक येतात. हेर चलयांवांगडा तेंवूय पळोवंक वता. न्हवऱ्याक घेवन येवपी लोकांमदीं न्हवऱ्याचे शारांतले कांय इश्ट आसात. तांची वागणूक हेर लोकांपरस वेगळी आसा. आनी त्या वेगळ्या लोकांमदलो एक सोयरो नदर हालयनासतना ते चलयेक पळयत रावला. तिचे नथींतलें खरें मोती लिकलिकता. हो मनीस येदोळ माटवांतूय उबो आशिल्लो – चलयेक जाणवता. ह्या दोनूय घरांकडेन घडये ताचें दोट्टी नातें आसतलें. देखुनच तो आतां परत न्हवऱ्या वांगडा आयिल्लो. ती चली लजेन अर्दमेली जाता – आनी तिचे नथींतलें तें मोतींय बशिल्ले कडेनूच भिडेता.

मागीर न्हवरेकारांचीं जेवणां जातात. कांय जाणां, बायलो बी घरांत परत वतात. पूण न्हवरो, ताचे लागशिल्ले सोयरे आनी ताच्या आवडट्या इश्टांमदलो फकत हो इश्ट, थंय रावतात. माटवांत लग्नाचो म्हूर्त लागीं पावता. लग्नांतल्या होमाचो धुंवर वयर वयर वता, तशेच चलयांच्या गितांचे सूरय वयर सरतात.

पयले फेरयेंत, ही आमची धूव बापायची. दुसरे फेरयेंत, ही आमची कन्या भावाची. तिसरे फेरयेंत, ही आमची कन्या... तिसरे फेरयेंत चली मामाची, चवथे फेरयेंत आज्याची, पांचवे फेरयेंत, ती बापोलयाची. सवे फेरयेंत भावाची, आवयच्या जावांची पूण सातवे फेरयेंत मात चली परक्याची जाता. गावपी चलयांमदीं सगळ्यांपरस सुंदर चली तें. ताचे नथींत ताणें खरें मोती घालां. आनी सगळ्यांत सुंदर आवाजय ताचोच. ताच्या नाकांतलें खरें मोती थरथरता. न्हवऱ्याचो तो विचित्र इश्ट, दोळ्यांक पातें लायनासतना ताका तेळीत रावता. सगळें गीत आयकतना ताका तें चली परकी परकी अशें दिसता पूण निमाणी वळ गायतकीर ताका तें चली एकदम आपलेंच कशें दिसता. दुसऱ्या दिसाचो सूर्य उदेतनाच – तो चलयेच्या आवय-बापायक रकाद धाडटा. आनी चलयेक मागणी घालता. आवय-बापूय ताचें नांव-गांव, पत्तो हांचेर येवजितात. आनी पुराय खरेपण करून घेतले उपरांतच ते चलयेचो साखरपुडो करतात. तें चली कलावती... तीच खंय म्हजी आवय.

मुखावेल्यो सगळ्यो घडणुको, हांवें आजयेच्या तोंडांतल्यान जायते फावटीं आयकल्ल्यो. म्हजी आवय खंय आपल्या लग्नावेळारय गीत गायताली खंयचें गीत ? फकत ही एकूच वळ, 'जाणलो कोणें रंग मनाचो ?'

ही वळ ती धोलक्याच्या तालार गायनाशिल्ली, बेश्टीच म्हणटाली, आंगणांत बसून गायनाशिल्ली, घराच्या वणटींक तेंकून गायताली. इश्टिणीं वांगडा गायनाशिल्ली. हारशामुखार उबी रावन एकटीच गायताली. त्या गिताचे आर्ततायेन तिचे नथींतलें मोतीं तिकतिकपा वाट्याचें हुलपून लासू बतालें.

म्हजी आजी सांगताली, लग्ना उपरांत थोड्याच दिसांनी खंय म्हजे आवयचें रूप उतरिल्लें. दुसरे फावटीं ती म्हाका पोटांत घेवनूच आवयघरा आयली. पोटांतल्यान तिणें म्हाका हाडलें आनी हाडांतल्यान जोर. जाले इतलेंच. ते उपरांत ती खंयच गेली ना. म्हाका जल्म दितकीर ती चाळीस दिसूय जगली ना. तिका खाटेवेल्यान एक फावट जेन्ना उबारली, तेन्ना म्हजो जल्म जालो आनी चाळीस दिसांभितरच तिका खाटेवेल्यान दुसरे फावटीं उतरायली ती तिका सरणार व्हरपा खातीर.

हांव मातशें व्हड जातकीर आजयेकच आई म्हणपाक लागलें. पांच वर्सां उपरांत म्हाका आई वेगळी आनी आजी वेगळी म्हणपाचें समजलें. तेन्ना म्हजे आजयेन म्हाका सांगिल्लें, आवय मरतकीच म्हजो बापूय एकेच खे आयिल्लो. उपरांत परतो केन्नाच आयलो ना. खंयच्यान तरी ताणें दुसरी आवय हाडिल्ली खंय. पूण दुसरी आवय म्हजी आवय कशी जातली? देखून तिणें म्हाका केन्नाच आपल्या घरा आपयलें ना.

आनी सोळा वर्सां उपरांत आजयेन म्हाका एक गुपीत सांगलें. तेन्ना हांव कॉलेजींत शिकतालें. आमच्या घरा लागसारच एक नवें कॉलेज सुरू जाल्लें. एक फावट कॉलेजांतलो म्हजो एक इश्ट म्हाका मेळपाक आयिल्लो. तो म्हजे कुडींत बशिल्लो आनी तेन्नाच म्हजो आजो घरा आयलो. आजयेन म्हाका कुशीक आपोवन सांगलें, कॉलेजांतल्या खंयच्याय इश्टान म्हजे मेळपाक येवप घडये आज्याक आवडपाचें ना. देखून हांवें ताचेकडेन थोडें उलोवप करून ताका बेगिबेगीन धांवडायलो. आजो मुखावेल्या आंगणांत बशिल्लो. देखून हांवें म्हज्या इश्टाक मागीलदारच्यान भायर धाडलो. रातीं आजयेन म्हजेसरीं बसून म्हाका सांगलें, म्हजे आवयक युसूफ नांवाचो एक चलो खूब आवडटालो. भावनेच्या ओगार तिणें हेंवूय सांगलें, तो चलो दिसपाक खुबूच देखणो आशिल्लो. सभावानूय थंड आशिल्लो. पूण जात वेगळी, धर्मूय वेगळो आशिल्लो. ताका घरांत कसो घेवं येतालें? एक फावट ताका हांवें फाटल्या दारांतल्यान भितर सरतना पळेलो. तेन्ना हांवें चलयेक एकटेंच म्हजेसरीं बसोवन सांगलें, 'बाय गो, बायल-मनशेचें पातक फुलावरी आसता, तें केन्नाच उदकांत बुडना, तें उदका वयल्यान उफेता. उदका वयरूच उरता. दादल्यांचें कितें ? तांणी केल्लीं पातकां फातराभशेन उदकांत बुडटात आनी ह्या कानाचें त्या कानाकूय समजना.' देखून जबरदस्तिनूच म्हळ्यार जाता, हांवें म्हजे चलयेचें लग्न केलें. वर्सांभितरच बाबडें गेलें. बाशींग बांदून न्हवरो म्हणून जो फुडल्या दारांतल्यान घरांत आयिल्लो, तो तें मरतकीच फकत एकूच फावट ताचें मडें पळोवंक आयलो. इतलेंच ! मरतकीर तिचेर नदर घालपाक तोवूय बाबडो ये गेलो. मागीर दार धाडावंक लागलो. हांव कितें करतलें? ताची जात धर्म वेगळो, खरें. पूण ताका हांव कशी आडावं शकतालीं? भितर येवन मड्याचेर ताणें नदर घाली आनी फाटल्या पांयांनी परतलो. म्हजे चलयेचें नशीब ! जो फुडल्या दारांतल्यान आयिल्लो, तोवूय गेलो, आनी फाटल्या दारांतल्यान आयिल्लोय परतलो.'

आनी अशे तरेन म्हजे आवयचें दुख्ख म्हाका समजलें. आजी म्हाका कितें समजावंक सोदताली, तेंवूय कळ्ळें. आवयन भोंगिल्ल्या दुख्खाचे

ावंक जाय आशिल्लें. देखून हांवें केन्नाच – कोणाकूच फाटल्या घरांत येवंक दिलें ना. आतां म्हाका समजता, फाटल्या जें काळीज एक फावट वता, तें परतून येना.

ाय भशेनूच हांवूय आतां जुवान जाल्लें. म्हजी आवय गाताली, ध आजयेकडल्यान शिकलें.

रे किरा पेरांच्या गांवां
या पेरांच्या गांवां

वेळार म्हजी आवय गायताली तें गीत हांवूय आतां हारशांत ळेतां-पळेतां गायतालें.

णलो कोणें रंग मनाचो ?'

घराचें फाटलें दार केन्नाच कोणाखातीर उगडलें ना. आनी ाचेर नदर दवरून हांव अशे व्यक्तिची वाट पळोवंक लागलें, कीच म्हजेर केन्ना खंयच्याच युसूफाचो उगडास करपाचो वेळ

ाका सतरावें वर्स लागलें. मागीर अठरावें आनी मागीर एकुणीसावें. यान दिवाळें काडिल्लें. तो म्हजेखातीर बरो न्हवरो सोदतालो. रिस्थितीक लागून म्हज्या लग्नाचो विचार करपूय ताका शक्य वजून येवजून निमाणें ताणें म्हज्या बापायक एक चीट बरयली, ग्नाचें जालां आनी ताणें आतां म्हजी जापसालदारकी घेवपाची म्हूण सांगून.

जाप म्हूण हांवें म्हज्या बापायकूच पळेलो! आयुश्यांत पयलेच धुवेन आपल्या बापायक पळेल्लो! आनी बापायन आपणाले यांक केन्ना वळख पट्टाली तर केन्ना ना. आपल्या बापायकडेन हेंच म्हाका होलमना जालें. आनी घडये ताकाय म्हजेकडेन चें तें समजलें ना जावंये. ते रातचो तो म्हज्या आज्यागेर ो खूब रात मेरेन ते उलयत आशिल्ले. सकाळीं जेन्ना आजयेन लें, थोड्या दिसांखातीर बापूय म्हाका तागेर व्हरपाचो आसा, सामकें विचित्र कशें दिसलें. पूण मागीर हांव वचपाक तयार

ाच्या मोगान थंय वचनाशिल्लें. पूण नात्याचे बंधच तशे आशिल्ले. ून हांव वचपाक तयार जालें जातलें. दनपरां हांव म्हजे कपडे ना आजयेन आपलें लाकडी पेटूल उगडून तांतली खऱ्या मोतयांची म्हज्या नाकांत घाली. हेंच तें खरें मोती जें म्हजी आवय ताली.

ी घडणूक स्पश्ट याद जाता. हांवें नाकांत ती खऱ्या मोतयांची तेन्ना दोनूय हातांच्या पोशांमदीं म्हजें तोंड धरून आजी रडपाक पलें रडप तिचे तिकाच दुश्चिन्ह दिसलां आसलें म्हणून उपरान्त वेंग मारून ती म्हज्या कपलाचो उमो घेवपाक लागली. म्हजेर ो शिंवर करतनाच ती म्हणटाली,

रस व्याजूच चड सुंदर दिसता!' हांव जाणा आशिल्लें, आजयेचें ल्लें आनी त्या मुदलाचें व्याजूच हांव आशिल्लें: चलयेची चली! ऱ्या मूळ बिजाचें दुख्ख आशिल्लेंच, पूण उरिल्ल्या अंशाचेर शिल्लो.

ण जाणा, पूण त्या वेळार म्हज्या चेऱ्याचेर, आवयच्या चेऱ्याचें ूच दॆविल्लें. स्टेशनार वचपाचो वेळ जालो आनी आज्यान न म्हऱ्यांत काडलें आनी तेन्ना ताकाय भरून आयलें आनी में म्हळें,

ासिनीच्या जाग्यार, आज म्हाका म्हजी विलासिनीच दिसता... आनी कसलो जादू? अजापांचोच हो रंग! हो खेळ!'

ाडयेंतल्या बायलांच्या डब्यांत बसोवन म्हजो बापूय आपली बॅग घेवन दादल्यांच्या डब्याकडेन गेलो. बायलांच्या डब्यांत हांव एकटें बशिल्लें, तेन्ना म्हाका दिसतालें, हांवें म्हज्या बापायक सारको पळोवंक लेगीत ना. फाल्यां सकाळीं गाडयेंतल्यान स्टेशनार देंवतलें, तेन्ना ताका सारको वळखतलें काय ना कोण जाणा! आनी होच विचार म्हज्या बापायच्याय मनांत आयला आसतलो. कारण फुडल्याच स्टेशनार तो म्हज्या डब्याकडेन आयलो आनी म्हज्या तोंडाक पळेत रावलो. तो म्हजो चेहरो सारकोच पळोवन दवरतालो काय दिसतालें. म्हणटकच दुसऱ्या दिसा दिल्ली स्टेशनार म्हाका वळखूंक तो चुकचो नाशिल्लो.

रात जाल्ली. फुडें अजूनय जायतो प्रवास करपाचो आशिल्लो. आग्रा स्टेशन आयलें. स्टेशनाचेर म्हज्या बापायन म्हज्या डब्यासरीं येवन म्हळें, 'तुका जाय जाल्यार आमी हांगाच देवंया. तुवें आजून ताज पळोवंक ना न्हय?'

म्हज्या मनाचो बांद कोंसळटालो. म्हाका दिसतालें, बापायच्या हड्ड्यार तकली दवरून म्हणचें, 'आवयक मरणान वेंगायलें म्हण ती म्हाका सोडून गेली. पूण तुवें तर म्हाका जितेपणी सोडलें. वीस वर्सांनी आज तुका जाणवलें की हांवें केन्ना आगऱ्याचो ताजमहाल पळोंवक ना. दिल्लीचो लाल किल्लो पळेल्लो नासतलो... पूण म्हाका आतां कितेंच पळोवचेंशें दिसना. हाचे पयलीं केन्नाच जाणट्या अशा नात्यांतल्या मनशाकडेन कसलोच हट हांवें करूंक नाशिल्लो. आनी आतां हट्ट करपाची म्हजी पिरायूय सोंपिल्ली. आतां हांव कॉलेजींत शिकपी एकुणीस वर्सांची तरणाटी चली आशिल्लें.'

तरी ताका हयकार दिवन, गाडयेंतल्यान हांव सकयल देंवलें.

एका हॉटेलांत सामान दवरलें. रातचें जेवण घेतलें तेन्ना खूब रात जाल्ली. दिसतालें, फाल्यां सकाळीं ताज पळेतलें. आतां खूब रात जाल्या आनी हांव म्हज्या बापायच्या सपनावरी मेळपाक दोळ्यांत एकठावन न्हिदलें.

मुखार म्हाका खबर ना. तें म्हजें दुर्दैव आशिल्लें काय म्हज्या नथींतल्या खऱ्या मोतयान तें दुर्दैव ओडून हाडिल्लें? म्हाका म्हजो हुस्कार – म्हज्या हड्ड्यांतच घुस्मट्टा – अशें जाणवूंक लागलें. आनी भियेवनूच हांव जागें जालें. कोणाचो तरी चेरो म्हज्या चेऱ्याचेर ओणवो जाल्लो... आनी कोणाच्या तरी हाताची पकड म्हज्या हातांचेर पडिल्ली. हांव किळाचलें – 'बाबा!'

म्हज्या बापायक वळखून हांव 'बाबा' म्हूण आड्डूंक नाशिल्लें. तर जो मनीस म्हजे खाटीर आयिल्लो, ताचेपसून बचाव करपाखातीर हांवें बापायक उलो मारिल्लो. पूण...

बाबान आपल्या तळव्यांपोंदा म्हजे ओंठ दामून धरले आनी म्हजी किळांच ओंठांतूच बंद जाली. हांव थरथरतालें. पूण हांव पळेतालें, म्हजो बापूय थरथरतालो, आनी कोण जाणा, म्हज्या हातांक खंयचें बळगें आयलें... हांवें बापायचे हात नेटान फाटीं धुकल्ले आनी खाटीवेल्यान देंवन उबें रावलें.

समजलेंच ना, कितें करचें? कुडिचें दार भितरल्यान खिळी घालून बंद केल्लें. हांवें पयलीं दार उगडलें आनी हुंबऱ्यार उबें रावलें. त्या अवेळार खंय वचचें हेंवूय समजना जालें. कितलोसोच वेळ हांव दारार उबें आशिल्लें. आनी हांवें पळेलें, म्हजो बापूय आपले खाटीर उमथो पडून रडटा. कितलोसोच वेळ हांव तशेंच उबें आशिल्लें. एक पांय हुंबरा भितर आशिल्लो आनी दुसरो भायर. भितरलें पावल भायर सरनाशिल्लें आनी भायलें पावल भितर येनाशिल्लें.

थोड्याच वेळान आयकलें, म्हजो बापूय आवयचें नांव घेवन रडटालो आनी मागीर आयकलें, म्हजें नांव घेवनूय तो कितेंतरी उलयतालो. हांवें कुडिचें दार सामकें उकतें दवरलें. आनी बापायचे खाटीकडेन दिमयो मोडून बसलें. म्हजे पांय थरथरताले. उबें रावंक जायनाशिल्लें.

बापायची हुडक्यासरशीं भरशिल्लीं उतरां म्हाका आतां स्पश्ट आयकूंक येतालीं. तो केन्ना आवयचें नांव घेवन माफी मागतालो, तर केन्ना म्हजें

नांव घेवन. कशें कोण जाणा, म्हाकाय रडपाक आयलें. खाटिच्या पांयार तकली दवरून हांव रडपाक लागलें तेन्ना म्हाका बापायच्या आनी म्हज्याय दुखांचो बांद आडावंक आयलो ना.

रात सोंपून सकाळ जायत आयिल्ली. काय कुर्डीत चान्नें पातळिल्लें, कोण जाणा! म्हजो बापूय कच्च करून खाटीर उठून बसलो.

'दिसाच्या उजवाडांत हांव तुका म्हजें तोंड दाखोवंक शकचोंना बाय! हांव आतांच हांगाच्यान वतां. तूं शिकिल्लें चली. सकाळीं खंयची तरी गाडी धरून तूं आपले आजयेसरीं परतें वच!'

म्हज्या बापायन आडखळत, थांबत केल्लें उलोवणें हांवें आयकलें आनी पळेलें, आपल्या बोल्सांतल्यान कांय नोटी काडून ताणें खाटीर दवरिल्ल्यो.

'हॉटेलाचें बील भर आनी तिकेट काड.'

खाटिच्या पांयार तकली दवरून रडटालें तें हांव बापायच्या पांयांसरी वचून, ताच्या धोंपरार तकली दवरून केन्ना रडपाक लागलें, म्हाका समजलें ना.

'तूं म्हाका माफ करूंक शकलें जाल्यार माफ कर.' म्हज्या बापायन म्हळें, आनी म्हाका दिसलें, म्हजे तकलेर हात दवरपाखातीर ताणें हात मुखार काडलो, पूण हातांनी स्पर्श मात केलो ना.

'बाबा!' म्हज्या तोंडांतल्यान उद्गार आयले.

'तुजी आवय भायर पडली. आतां हाचेफुडें तुजो बापुयूय मेलो अशेंच समज.'

अशें एकदां म्हणून, म्हजेपासून आपलीं दोनूय धोंपरां सोडोवन घेवन ताणें वचपाचो यत्न केलो. हांवें ताचीं धोंपरां म्हज्या हातांनी घट्ट धरलीं. पूण हांव कांयच उलोवंक पावलेंना. जायत्या वेळा उपरांत बापायन म्हळें,

'तूं समजूंक शकचें ना... आनी हांवूय कसो समजावन सांगूं? आ कोणाक? सत्य एकच आशिल्लें... पूण आतां तें सगळें फट थरलां.'

'हांव समजूंक शकतां बाबा.'

काळ सदांच फुडें वचत रावता अशें न्हय. केन्ना केन्नाय तो फाटल्या पळोवनूय चलूंक लागता. चलप्याच्या हातांतली एखाद्री वस्त वाटेर गळसण आनी बरोच फुडें वतकीच ताका ते वस्तिची याद येवची, आनी ती सोदपा ताणें परत फाटल्यान येवचें, ते भाशेन.

म्हजे आवयचे नथींतलें मोतीं काळाच्या हातांतल्यान केन्नाच गळसणू पडिल्लें. वीस वर्सां जावन गेल्लीं. आयज म्हजो बापूय काळाच्या सांगात त्या मोतयाचो परत सोद घेतालो. बापायक वीस वर्सां आदीं घडिल्ल घडणुको काल जाल्लेवरी याद जाताल्यो. हांव आयकतालें ती एक घडणूक म्हाका म्हज्या दोळ्यांमुखार स्पश्ट दिसताली.

जितले मेरेन समजूंक शकलें, तें हांवें समजून घेतिल्लें. जें अश आशिल्लें, तें मनांतच दवरून हांव आजयेकडेन परत आयलें.

'सावत्र आवयसरीं वचचेंशें दिसलें ना.' हांवें आयजयेक सांगलें. आवय जें गीत गायताली त्या गिताचोच हांव परत-परत विचार करतालें

'कालचे परस खूब सुंदर भासपी
जाणला कोणें रंग मनाचो?'

म्हजे आवयक तिच्या मनाचो रंग केन्ना समजलोच ना. त्या रंगाच सोदपांतूच पुरो जावन ती मेली. बापूय जितो आसा खरो! पूण आपल मनाचो खरो रंग तोय वळखून नकळ. ज्या परमेश्वरान हो ना समजुपासार रंग तयार केलो, तोच घडये ताका माफ करतलो. हांव आनी कितें करतलें

* * *

---

☐ हवेचेर सगळे जीव निंबून जियेतात तशे घर संवसार चलयतल्या लोकांचेर समाज निंबून जियेता. ऋषी, म्हालगडे, देव, सोयरे धायरे आनी भोंवतणचे जीव हांचें बरें भलें घर संवसार चलोवपी – गृहस्थूच – सारकें करूंक पावतात. स्वाध्यायान ऋषींची पुजा करची, होमान देवांची, श्राद्धान म्हालगड्यांची, आनी जेवणान सोयऱ्या धायऱ्यांची करची. सोयरे धायरे सदां येवन राविनात. केन्नाय तरी येतात आनी आशिल्ले तशे वतात. म्हूण तांकां अ-तिथी म्हणपाची चाल पडल्या. अतिथी रातचो आयलो जाल्यार ताका दार धांपचें न्हय, अवेळार आयलो जाल्यारूय ताका उपाशीं दवरचो न्हय. आसन, जेवण, हांतरूण, उदक दिवन अतिथिचो सदां भौमान करचो.

— मनुस्मृती

* * *

☐ सदां खरें तेंच उलोवचें. उलयता तें सदां गोडूच उलोवचें. कोडू सत्य उलोवचें न्हय आनी गोड असत्यूय केन्ना उलोवचें न्हय. कोणूय कितेंय सांगूं, 'बरें आसा' म्हणचें. बेश्टी कोणाची दुस्मानकाय मोलावन घेवची न्हय. बेश्टें कोणाच्या तोंडाक तोंड लावचें न्हय. जाणटेले, विद्वान, गुरू, आचार्य, मामा, सोयरे धायरे, आश्रित, जाणटें, रोगी, आवय बापूय, भयण भाव, नोकर चाकर हांचे कडेन केन्ना कसलेच तरेचे वाद करचे न्हय. वाद-विवादान मनां दुखावतात. मनीस मनशा पसून पयसावता. म्हूण वाद सदां चुकोवचे. वादां पसून मेकळो मनीसूच सगळ्या पातकांतल्यान सुट्टा आनी आपणाचेर जैत जोडटा तो संवसार जिखता.

— मनुस्मृती

# स्वतंत्रतायेचो भांगरा-सुवाळो

## भालचंद्र गांवकार

६. जॉन
७. शंकर
८. मीना
९. जोनिता
१०. शंकराची बायल

सदानंद नांवाच्या एका राजकारण्याचें घर. घराच्या भायल्या ...व. रघू, पिराय ५५-६० वर्सां, सदानंदाचो चाकर, सभावान ...न बडबडत फर्निचर पुसता.)

स्वतंत्रतायेचीं पन्नास वर्सां खंय !... कसली स्वतंत्रताय ही ?... दुसऱ्याचे पांय धरलेबगर म्हजे सारक्याक जंय जगपाचो अधिकार ना... ताका स्वतंत्र म्हणप ?... बाकीबाब गेलो बाबडो. पूण ताची कविता आसा. तो म्हणटा, 'प्राणाक क्षय... बुद्धीक भंय... फाल्यांक जंय कालचीच वंय... आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय... आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय... (आपणाल्याच मुडांत)

(पिराय ५०-५५ वर्सां, राजकारण्याच्या भेसांत भितरल्यान भायर येता. कवितेचीं निमाणीं उतरां ताच्या कानार पडटात...)

रघूऽ पापया, कितें चलयलां रे हें ? स्वतंत्रतायेचीं पन्नास वर्सां मनयतात मरे आमी !... भांगरा सुवाळो... आनी तूं आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय म्हणटा...?

(मात्सो मोव पडटा) तशें न्हय भाऊ... बाकीबाबाचे कवितेचो उगडास जालो... (गडबडटा).

आतां कविता शी येवजली तुका ?

(कितें उलोवचें तें कळना.)

तें आसूं आतां ! काम सारकें जावंदी... (भायर वचपाची तयारी.)

आं भाऊ ! ताचो हुस्को करपाची गरज ना. सगळें बेस बरें करतां.

आनी हें पळय...! मोटे मोटे लोक येवपाचे आसात. कांयच उणें पडपाक जायना.

(तकली हालयता).

कालचो तो रांदपी येतलो. ताचेर नदर दवर...

(तकली हालयता) बरें...

(वचपाक वता आनी परत घुंवता) आनी हें पळय... तो चुडूलो नानू येतलो... सजावट करपाक.

ताका कितें सांगपाचें ?

ताचेर मात्शी नदर दवर... वतां हांव. (भायर वता.)

(कांय खीण सदानंद गेल्ले वाटेन पळयता आनी परतो तापट जाता. फर्निचर हेवटेन तेवटेन आपटीत सारकें करता... कपड्यान पुसता.) सगळेच चोर राणग्याचे !... कोणाच्या खुस्तार फोल्गां मारतात ताचें लेगीत भान ना.... केन्नाय दिसता... – (बंड करपाच्या मुडांत).... पूण (जाणटेपणाची जाणविकाय)... हाय देवा !

तरनाटो : (पिराय सादारण पंचवीस वर्सां. बागून भितर पळयता) हे... सायब आसा ?

रघू : (ताचे वसल्यान पळयता) कोण ?... कितें जाय ?

तरनाटो : (भितर येता) सायब आसा ?

रघू : ना. कित्याक तो ?

तरनाटो : रोखडो येतलो ?

रघू : सायबाक आयज वगत ना. वच तूं...

तरनाटो : म्हज्या कामाचें विचारपाक जाय आशिल्लें.

रघू : फाल्यां यो ! आयज पार्टी आसा. व्हडले व्हडले येवपाचे आसात. गांयडोळ कसो चिड्डून वतलो.

तरनाटो : पूण सायबान आयज...

रघू : (तापता) आरे तुका सांगलें न्हय रे ? तुका कोंकणी कळना ?

तरनाटो : पूण इंटरव्यू आयज आसा ! इकरा वरांचेर...

रघू : पूण सायब कित्याक तो ? तुज्या कमराक धरूंक ?

तरनाटो : सायबान फोन करून सांगतां सांगिल्लें...

रघू : कितें शिकला तूं ?

तरनाटो : बी.ए. पास.

रघू : तरीय सायबाचे पांय धरपाक जाय ?

तरनाटो : बरेऽऽ... पयशे मेजल्यात हांवेन...

रघू : हेंच शिकयलां तुमकां बी.ए.क ?

तरनाटो : (खजील जाता) तुज्या उलोवपाचो अर्थ कळटा म्हाका... पूण आमच्या हातांत कितें आसा ?

रघू : कित्याक ना ?

तरनाटो : तुज्या वागपावेल्यान आनी उलोवपावेल्यान तूं सायबाचो मनीस कसो दिसना...

रघू : मागीर... कोण सो दिसता ?

तरणाटो : खरें सांगूं ?

रघू : (जाप आयकुपाची उत्सुकताय)...

तरणाटो : वाट चुकिल्लो गिन्यानी !

रघू : स्सऽऽ... (उस्वास सोडटा... आवाज बदलता) ना पुता... हांव वाट चुकिल्लों आसन. पूण गिन्यानी न्हय. अडाणी हांव... ना जाल्यार... (सभोंवतणी पळयत) ह्या पांदऱ्यांत उश्टें खायत जगचो नाशिल्लों. स्वताच्या पांखांनी उडून मळबाचो थाव घेतलों आशिल्लों.

तरणाटो : चुकलों हांव. तुज्या घायावयली खवळी काडली हांवेन...

रघू : ना पुता. ही खवळी म्हाका खोरजताली. तुजेसारखो कोणतरी पावतलो आनी ती उसयतलो म्हूण हांव रावतालों... आयज जिवाक खूब बरें दिसलें...

तरणाटो : तुजें कसलें तरी खोल दुखणें आसा. तुवें सांगनासतनाय कळटा म्हाका तें...

रघू : देखुनूच सांगतां तुका ! तूं स्वतंत्र आसा. तूं तरणो आसा... तुज्या भुजांत बळ आसा... असल्या पांदऱ्यांचे वारांव आनीक घट करूं नाका... ते बागोवपाचो यत्न कर... मोडपाक शीक...

तरणाटो : ना. हांव तरनाटो हें खरें !... भुजांत बळूय आसत... पूण... पूण खऱ्यांनीच हांव स्वतंत्र आसां ? ना. ह्या

राजकारण्यांनी आनी पयशेकारांनी आमचें स्वातंत्र्य बांदून दवरलां. पुरायेन बांदून दवरलां... (हुस्कार सोडटा)... पांखां तोडल्यांत आमचीं! (निन्हळटा).

**रघू** : स्वतंत्रतायेचीं पन्नास वर्सां मनयतात खंय आमी!... फट!... सगळें फट... (तापट जाता) तूं म्हजी खबर जाणा?

**तरणाटो** : ना. पूण आयकुपाची उत्सुकताय आसा.

**रघू** : आयक तर! म्हजो बापूय देशाक स्वतंत्रताय मेळोवन दिवपी एक सुटके झुजारी आशिल्लो.

**तरणाटो** : कितली गर्वाची गजाल! (अजाप जाता.)

**रघू** : पूण हांव थुकतां ताचेर! कितें बरें केलें स्वतंत्रताय मेळोवन?... कितलिशी मेळ्ळी आमकां स्वतंत्रताय?

**तरणाटो** : अशें कित्याक म्हणटा?

**रघू** : हांव असल्या देड दमडेच्या मनशांचो चाकर जावपाक म्हजो बापूय जापसालदार!

**तरणाटो** : बापूय जापसालदार?

**रघू** : हय!... (प्रसंगाक फावोशें संगीत) म्हजो बापूय लग्न जावन दोन भुरगीं जालीं... आनी ताणें स्वतंत्रतायेच्या उज्यांत उडी मारली. देशाच्या मोगान ताका कुड्डो केल्लो. आपणालीं बायल भुरगीं थंय वळवळटात हाचें लेगीत ताणें भान दवरलें ना.... (भूतकाळांत घुस्पता) आमी भुकेन वळवळटालीं... पोटामुखार शिकपाचो उगडासूच जालो ना. भूक सोंसना जावन झाडाचो पालो लेगीत खालो आमी! (खोल उस्वास सोडटा).

**तरणाटो** : (आयकूंक नजो जावन कानार हात दवरता.)

**रघू** : (मुखार सांगता) स्वतंत्रतायेचें झूज तेंगशेर पावलें आनी देश स्वतंत्र जालो. म्हजो बापूय एक मोडको पांय आनी मोडको हात घेवन अपंगूळ जावन कितल्याशाच वर्सांनी घरा आयलो... अपंगूळ जावन लेगीत ताचे खोशयेक अंत आनी पार नाशिल्लो... आमकांय खोशी जाली. पूण खिणभरूच... स्वतंत्रताय मेळ्ळी पूण पोटाची भूक उणी जालिना... ती वाडतूच रावली... (भूतकाळांत घुस्पता) सोंसूंक जायना जावन हांव त्या दिसा घरांतल्यान भायर सरलों... आनी चलत रावलों... खंय तरी काम मेळटलें हे आशेन!

**तरणाटो** : मागीर कितें जालें?...

**रघू** : सगळे लोक स्वतंत्रतायेची खुशालकाय मनयताले. आनी हांव... (उस्वास सोडटा) काम सोदतालों...

**तरणाटो** : उपरांत काम मेळ्ळें?

**रघू** : कामां जायतीं आशिल्लीं. पूण शिक्षणाखातीर सगळ्याक अडून उरतालें. शिकपाची पिराय जावन गेल्ली... जंय जंय शिक्षणाचो प्रस्न येतालो थंय म्हाका बापायची याद जाताली. खिणभर दिसतालें... (भुजां आंवळून) अशेंच धांवत परत घरा वच्चें आनी बरो आशिल्लो बापायचो हात आनी पांय मोडून उडोवचे. (रागान थरथरता.)

**तरणाटो** : (सोंसूंक नजो जावन कानार हात दवरता.)

**रघू** : (परतो भूतकाळांत) बापायक काय बरी शिर्विस आशिल्ली... सरकारी ऑफिसांत तो वयल्या पदार आशिल्लो. आपणाले शिर्विसेपरस ताका स्वतंत्रताय व्हडली दिसली आनी ताणें शिर्विसेचेर खोंट मारली. ताणें आमकां शिक्षण दिल्लें जाल्यार आमचेर आयज ही पाळी येवंची नाशिल्ली... कितें बरें केलें ताणें स्वतंत्रतायेखातीर झुजून?... एका चोराच्या हातांतलें राज्य काडून दुसऱ्या चोराच्या सुवादीन केलें....! तिडक मारता सगळ्यांची...!

**तरणाटो** : पुरो! आनीक कांयच सांगूं नाका! (कानार हात दवरता

**रघू** : (ल्हव आवाजांत) वाज आयलो आयकून? कान फुटले

**तरणाटो** : ना. तुवेन म्हाका नवी नदर दिल्या. देव तुजें बरें करूं. हांव आतां...

**रघू** : (आवाज बदलता) सायबाक रावना? पांय ल्हेंवना

**तरणाटो** : ना... आतां म्हाका सायबाची गरज ना... पयशे गेल्यार म्हजे... वतां हांव. (नेटान भायर वता).

**रघू** : (तरनाटो गेल्ले वाटेन पळयत रावता. कांय खीण वतात... शितिदांत येता आनी परतो कामाक लागता. हेवटेनचें तेवटेन करता.) प्राणाक क्षय... बुद्धीक फाल्यांक जंय कालचीच वंय... आयलां तें स्वातंत्र्य

**रांदपी** : (पिराय चाळीशेक वर्सां. ल्हेंवटो सभाव) कितें रघुबाब... जाली सगळी तयारी?

**रघू** : जाता. रांदपाचें बेगीन पळय तूं. ते येतले.

**रांदपी** : येवं ते. रांदपाक म्हाका वगत लागना. रांदप म्हज्या बसलां... आनी आमचो सायब म्हळ्यार भांगर मनीस! हातान जाल्यार उजव्या हातान मान्य करपी.

**रघू** : पुरो पुरो! इकरा जायत आयलीं. भितर वच एकदांचो...

**रांदपी** : (सभोंवतणी नदर मारीत भितर वतना) धनयापरस चड मरे! (भितर वता.)

**रघू** : (दुखवता... रागान रांदप्यावसल्यान पळयता... भितरूच म्हणटा) तथ्य आसा तुज्या म्हणपांत... रांदपी जावं मागीर... सुकण्याभशेन मेकळो आसा. पुसपाक घुंवता.)

**नानू** : (पिराय वीस-पंचवीस वर्सां. हुतहुत्या सभावाचो. सजावट करपाचें थोडें साहित्य आसा. भितर सरता सभोंवतणी पळयता.) सायब आसा भितर?

**रघू** : ना. भायर सरला... सजावट करून घे सांगल्या तुजेकडल

**नानू** : म्हाका कोणें शिकोवपाची गरज ना. कळटा म्हाका. हांव.

**रघू** : तें तुका पळयतनाच कळटा.

**नानू** : (साहित्य सकयल दवरता आनी कमरार एक हात सजावट करपाचो अंदाज घेता... तयारी करता.. पळयता.)

**रांदपी** : (भितरल्यान भायर येता) आरेऽऽ रघूबाब... घरांत कोणूच ना मरे! खंय गेल्यांत सगळीं?

**रघू** : आयज पार्टी न्हय... पन्नासाव्या स्वातंत्र्यदिसाची? जंगी आसतली... देखून तांची दुसरेकडेन व्यवस्था सायबान...

**रांदपी** : अशें... अशें! तशें जाल्यार राज्य आमचेंच मरे? (भितर वता)

**रघू** : कर तूं सजावट आं... हांव मातसो भितर नदर मारून (भितर वता)

**नानू** : (आपले परीन सजावट करता. नानूच्या हावभावांक संगीत. सजावट करतना आसतना नानू कदेलां जाग्या हालयता. मर्दी मर्दी गरजेप्रमाण कदेलांचेर उबो रावता. वेळ सजावट करता तें दाखोवचें.)

**रघू** : (भितरल्यान भायर येता) आरे...! कसलो सांवार

तुजेर ?... हांवेन हीं सगळीं कदेलां बेस बरीं पुसून, मांडून दवरिल्लीं मरे!... तुवेंन तीं परतीं जळामळा पावयलीं ?

हांवेन कुडके काडुंनात तांचे ! परतीं दवरूं येतात तीं जाग्यार.

पूण असल्यांनी कामां सोंपनात... वाडटात तीं...

वोगीच तुजे असल्यांक कामां मेळटात ?

चड उलोवंक लागलो मरे तूं! सोंपय तुजें काम बेगीन आनी लाग वाटेक...

काम सोंपोवपाचें उरलां ? पळय मरे नदर मारून... (उरिल्लें सामान एकठांय करता)

(सभोंवतणी पळयता) आरेऽऽ!

आतां काम उरलां तें तुजें ! चल्लों हांव (भायर वता)

(फर्निचरावसल्यान पळयता) काय बरें मांडून, पुसून दवरिल्लें सगळें... पाड पडिल्ल्यान जळामळा पावयलें. (परतें सगळें जाग्यार दवरता आनी पुसता) पाड पडलें सगळें (सुस्कारता)... प्राणाक क्षय... बुद्धीक भंय... फाल्यांक जंय कालचीच वंय... (कोणाची तरी जाग येता आनी कविता मदींच थारयता.. दारांतल्यान भायर पळयता.)

(भितर सरता. वांगडा एक तरनाटी बायल, मीना आसा.)

यो.. भितर यो. आडखळूं नाका. घर तुजेंच समज. (रघूवसल्यान पळयता) जाली सगळी तयारी ?

हय भाऊ.

जाले ते येवपाचे. सगळ्यांचेर आनीक एक फावट नदर मार...

बरें... (भितर वता)

यो बस... अशें बस. (बसता)

(बसता) थँक्यू...

कशें दिसलें वातावरण ?

बरें. (सभोंवतणी पळयता) सामकें प्रसन्न !

कितें घेतलें ? थंड... च्या ?

सद्याक कांय नाका. मागिरूच घेवचें. (लजता)

(ल्हेंवटेपणां करीत) लजपाचें ना. हांव कोण परकी न्हू.

एक विचारूं ?

परवानगी घेवपाची गरज ना.

घरांत भितर कोण आसात ?

सगळीं आपापणाल्या कामांत गुल्ल! घरकान्न गेल्या आवयगेर... जाण्टेपण (हांसता). चली इश्टिणिगेर आनी चलो भायर आसता.

(अजाप जावन) आनी तुमचें कोण पळयता सगळें...?

कितें फाल्त आसा ? रांदपी आसा... चाकर आसा... शंबर टक्के स्वतंत्र आसां हांव ! स्वतंत्र... (भायर पळयता) येयात, येयात... वेलकम ! (जॉन आनी ताची घरकान्न जोनिता दारांतल्यान भितर सरतात.)

हॅलो... हाव आर यू ? (हात दिता) मीट माय वायफ जोनिता (जोनिता नमस्कार करता).

नायस् टू सी यू बोथ ! प्लीज हॅव अ सीट! (दोगांय बसतात)

कितं घेतलीं ?... थंड... च्या... ?

थँक्स. आतांच घेवन येयल्यांय आमी च्याव !

रघूऽऽ (उलो मारता) भायर यो पळोवया मात्सो...

(भायर दाराकडेन येता) कितें ?

बरीशी कॅसेट घाल पळोवया एक...

आं... विसरलोंच हांव. (भितर वता... कांय खिणांत वातावरण तयार करपी शास्त्रीय संगीत सुरू जाता.)

सदानंद : कितें खबर रे तुमचे तेवटेन ?

जॉन : स्वतंत्रतायेचीं पोनास वरसां न्हू ? बोवाळ चोल्ला सगळ्याक...

सदानंद : चलपाचोच !

जॉन : कितू बेगीन उलगोलीं न्हूं पोसान वरसां ? खोरेंच दिसोना...

सदानंद : उपकार मानपाक जाय आमी जाण्टेल्यांचे आनी सुटकेझुजाऱ्यांचे ! तांकांच लागून हे दीस आमी पळयतात.

जॉन : वोय...! तिंगेल्या कोश्टांचीं फोळां आमी खातांव.

सदानंद : (भायर पळयता आनी जाग्यावयलो उठ्ठा) शंकरबाब आयलो दिसता. यो... यो... शंकरबाब ! वेलकम... वेलकम.

शंकर : (शंकर आनी ताची बायल, ४०-४५ वर्सांची पिराय, भितर सरतात) आरे, कितें चलयलां हें ? (हात दिता) वेलकम वेलकम...? येवकार... येवकार म्हणपाचें मरे ! आमी स्वतंत्र आसात अशें दिसपाक नाका ? (हांसता)

जॉन : (बसला थंयच्यान) काळजांतल्यान उलोयता मुरे ?

शंकर : (ताका हात दिवपाक वता) काळीज खंयूय पावूं... तशें नाटक तरी करपाक जाय मरे! ना जाल्यार इलाज आसा लोकांमुखार ? (सगळीं हांसतात).

सदानंद : येयात. बसात अशीं... यो वयनी. (शंकर आनी ताची बायल बसतात.)

शंकर : (बसपाक सोदता आसतना मीना वसल्यान पळयता... पूण वळखना.)

सदानंद : (लक्षांत येवन) आरे, हिची वळख करून दिवपाची उरली. हें मीना. म्हज्या इश्टाची घरकान्न. (ती उबी रावन सगळ्यांक नमस्कार करता... बसता) इश्टाक अकस्मात काम जालें. ताका दिल्ली वचचें पडलें.

शंकर : दिशिल्लेंच म्हाका तशें...

सदानंद : तें आसूं. वगत जालो.... आरे रघूऽऽ (उलो मारता).

रघू : (भायर येता. खांदावयल्या तुवाल्याक हात पुशीत सदानंदाचे ओर्दिची वाट पळयता.)

सदानंद : जाली सगळी तयारी जाल्यार घेवन यो एक एक जिन्नस ! (रघू भितर वता) कोण येवपाचे आसात तांकां येवंदी सुशेगाद.

जॉन : सुशेगाद जावंदी. जायतो वोगोत आहा. आमचेखातीर ताकतीक नाका...

शंकर : आमी कितें परकी रे ?

रघू : (भायर भितर फावटी मारता... खाणाच्यो प्लेटी, सोऱ्याच्यो बाटल्यो, ग्लासं, सोदाच्यो बाटल्यो हाडून मेजार दवरता. ग्लासांत सोरो रकयता. सोडाच्यो बाटल्यो फोडटा.)

सदानंद : चला करा सुरवात...

शंकर : (उठत) राव मात्सो राव... सुरवात करचे पयलीं हांव दोन उतरां उलयतां.

जॉन : ओय मुरे ! शितितूच जालें ना. उलोय तूं पयलो...

शंकर : (भाशण करचें तसो उलयता) इश्टांनो, स्वतंत्रतायेच्या पन्नासाव्या भांगरा उत्सवाच्या शुभ समयार आमच्या इश्टान... सदानंदबाबान हो... भांगरा सारको सुवाळो... घडोवन हाडला... देखून ताचे उपकार... मानीत तितले थोडे (सगळीं ताळयो मारतात). आमकां... स्वतंत्रताय मेळ्ळी खरी... पूण ती भोगपाक लोकांक कळना... ते खातीर पावला पावलाक... सदानंदबाबा सारक्या म्हात्म्यांचो जल्म जावंक जाय. हांव... ताका स्वतंत्रतायेचें सार्थक... तडीक लावंक... देवान व्हड

जिवीत आनी धन-दौलत दिवं... अशें मागतां. (सगळीं परत्यो ताळ्यो मारतात.)

**जॉन** : (उलोवंक उबो रावता) इश्टांनो, सोदाननबाबान... आमचे पासोत... व्होड त्राबल घेवन... ही पार्टी ऑरगानायझ केल्या. देखून देवा लागीं हांव मागतां की ताचें... बोरें कोर. देवा लागीं हांव मागतां ताका बोरी बोलायकी आनी सावूद दी. आमकां... फ्रिडोम मेळोवन दिवपाक... सोदाननबाबान... रातिचो दीस केला. ताचो जोल्म... उसरां जाला म्हूण म्हाका खोंत भोगता... ना जाल्यार आयज तो व्होड फ्रिडोम-फायटोर आसपाचो. एसो इश्ट आमकां गावला... हाचो आमकां संतोस भोगता. (सगळीं ताळ्यो मारतात.)

**रघू** : (सोऱ्याचे ग्लास उखलून एक-एकट्याच्या हातांत दिता... सगळे चियर्स... चियर्स म्हूण सोऱ्याचो घोंट मारतात. रघू खाणांच्यो प्लेटी घेवन मदीं भोंवता. सगळीं जाणां खातात आनी पितात... कांय जाणां बसतात... उठ्ठात. सगळ्यांक सोऱ्याची गुंगी येवपाक लागता. स्टेजीवयलो उजवाड इल्लो-इल्लो तांबडो जाता... शास्त्रीय संगिताचो आवाज ल्हवू-ल्हवू व्हड जाता.)

**जॉन** : (ग्लास हातांत घेवन नाचपाचो यत्न करता... पूण संगिताचे ठोके मेळनात) कसलें भोजोन लायलां रे...? बोंद कोर तें... बोरेंशें लाय... नाचपाक मेवता अशें...

**रघू** : (भितर वता आनी शास्त्रीय संगीत बंद करता. खिणाभितर रॅप वा पॉप संगीत वाजपाक लागता आनी सगळे खुशाल जातात.)

**जॉन** : आतां खोरें फ्रिडोम कोशें दिसलें. (एकटोच नाचता... बाकिचीं हालत नाचपाच्या मुडांत ताका पळयतात. पात्रां उलयतना संगिताचो आवाज मात्सो बारीक करचो.)

**सदानंद** : रघूऽऽ (उलो मारता).

**रघू** : (भायर येता. दुबावान) म्हाका उलो माल्लो भाऊ?

**सदानंद** : केन्ना सुदारतलो रे तूं? भाऊ म्हणटा? 'सरं' म्हणपाचें. (सोऱ्याचे गुंगेंत उलयता. सगळीं हांसतात.)

**रघू** : चूक जाली. (तकली सकयल घालता.)

**सदानंद** : हीं सगळीं कदेलां आनी मेज कुशीक काड... सुवात मेकळी कर...

**रघू** : (कदेलां आनी मेज कुशीक काडटा आनी भितर वता.)

**जॉन** : आतां बोरें जालें. आतां सोगल्यांनी नाचपाचें. स्वतंत्रतायेचीं पोनास वोर्सां सेलेब्रेत करपाचीं...

**सदानंद** : हय... सगळ्यांनी नाचपाचें. (सगळीं ग्लस सकयल दवरतात आनी ल्हवू ल्हवू नाचपाक लागतात. नाच जोडप्यांनी दाखोवं येता वा एकटीं-एकटीं नाचतात तसो दाखोवं जाता. पूण संगिताच्या तालार आसल्यार चड बरो. वेळाच्या बंदनाप्रमाण नाच वाडोवं वा उणो करपाक जाता. मदीं खावप-पिवप चालू आसता. नाचतां नाचतां कांय वेळान कॅसेट सोंपता आनी संगीत बंद जाता तशीं सगळीं भानार येतात.)

**शंकर** : (सोऱ्याचे गुंगेंत उलयता) मज्जा आयली... सामकी मज्जा...

**जॉन** : (सोऱ्याचे गुंगेंत) यू आर ग्रेज सोदाननबाब (ताका वेंग मारपाक वता.)

**शंकर** : अशें दिसता, आमी सर्गार आसात.

**जॉन** : स्वतंत्रताय नासलोली जाल्यार आमी यमकोंडांत आसपाचे.

**जोनिता** : (जॉनाक) वोगोत खूब जालो. आमकां वोसपाक जायें.

**जॉन** : (हाताची घडयाळ पळयता) आरे!... शितिदूच उरलें न... बोरें तोर सोदाननबाब (ताका हात दिता) येतांव आमी... देव तुकां चोड बोरें कोरूं...

**सदानंद** : बरें जॉन... फाल्यां मेळचें... देव बरें करूं. (जॉन आनी ... भायर वतात.)

**शंकर** : आमकांय वचपाक जाय... सोयरीं येवपाचीं ... मुंबयच्यान...

**सदानंद** : आरेऽऽ! तुमीय चल्लीं?

**बायल** : हय... वचपाक जाय.

**सदानंद** : बरें तर! देव बरें करूं. (शंकराक हात दिता. शंकर ... बायल भायर वतात. सदानंद कांय खीण तेंवटेन ... रावता.)

**रांदपी** : (घाम पुसपाचें नाटक करीत भायर येता) सायबऽऽ... हॅऽऽ कशें जालें रांदप?

**सदानंद** : (आपणाल्याच मुडांत) आरे! रांदपी मरे!... बोवाळांत... उगडासूच उरलो ना. (ताची फाट थापटिता).

**रांदपी** : आमचो आनी उगडास कसलो सायब? आमी गरीब म...

**सदानंद** : तशें म्हणूं नाका हां... रांदपी आसात म्हूण आमी आस... चल चल... खावन घे पोटभर... पिवपाक जाय तितलीं... आसात... चल मार मजा... आनी हें पळय, तो रघू... झक मारता पळय... ताकाय आफय तुज्या सांगाताक...

**रांदपी** : तुमचें उतर मोडूंक जाता सायब? (प्लेटींतलें खाण ... खावपाक लागता. बाटलेंतलो सोरो ग्लासांत ओतून घेता... पिता.)

**मीना** : म्हाका पावयतात न्ही आतां...?

**सदानंद** : आगो घरा वचून इतले बेगीन कितें करतलें? घोव ... तारवार...

**मीना** : पार्टी सोंपली न्हय आतां?

**सदानंद** : पार्टी सोंपली... पूण मुखेल सुवाळो उल्ला...

**मीना** : (कुवाडें लक्षांत येना) मुखेल सुवाळो?

**सदानंद** : हय... स्वतंत्रतायेचीं पन्नास वर्सां म्हाका वेगळे तरेन मनो... जाय... सामकीं वेगळे तरेन... तुज्या सांगातान... (मीनाच्या हाताक धरून ताका भितर घेवन वता.)

**रांदपी** : (सोरो लागला) स्वतंत्रताय म्हुण्टात ती आयकल्या ... पूण पळोवंक ना. आनी सायबाच्या पांयांकडेन असोच रा... संद मेळ्ळ्यार म्हाकां तिची गरजूय ना. म्हगेली खरी स्वतं... म्हुणजे सायब... आनी कोणाक मीठ घालिना हांव...!

**रघू** : (हातांत कपड्यांची पोटली घेवन भायर येता.)

**रांदपी** : यो... यो रघूबाब.. खा... पी... मार मजा! सायबान ... तुका...

**रघू** : खा तूं सुशेगाद... हांव चल्लों.

**रांदपी** : चल्लो? आरे पूण खंय चल्लो?

**रघू** : स्वतंत्रतायेचो भांगरासुवाळो मनोवपाक!

**रांदपी** : आरे, पूण हांगा इतली बरी सुवात आसतना...?

**रघू** : हय! हांव तो सामको वेगळे तरेन मनोवंक सोदतां... ... वेगळे तरेन... (नेटान भायर वता. रांदपी बशिल्लेकडेन... उबो रावता आनी अजाप जावन रघू गेला ते वटेन ... रावता... पड्डो पडटा.)

*

(प्रयोगा खातीर बरोवप्यांची मान्यताय ग...)

# -सुवादीक कॉलम

ब्रोरकार

वाळी आंक आयलो.
णचे, तो येवंकूच जाय आशिल्लो.
ांक दिवाळेकूच येवंक जाय अशें कांय ना.
वंचो असो नेम खंय आसा?
ब' खंय आयला? हेमाचो 'चित्रंगी' खंय आयला?
ो 'कोंकण टायम्स' आयला आसूं येता.
दिवाळी आंक आयल्यात हें सहज कळटालें.
सरकारी खात्यांत पासय मारल्यार पुरो आशिल्लें.
सरकारानूच दिवाळें काडलां.
यराती घालताले तेंय बंद पडलां.
कशेक खंयच्या खात्यांत वचप तें कळना.
देवाळे निमतान कोणा कोणाच्या हातार निवेद्य उडयतालो.
ळार यादवी सुरू जाली आनी ताणें आंग काडलें.
ग काडलें' म्हळ्यार भियेवप न्हय.
ा मळार कितेंय जालें तरी तो भियेवंचोना.
येवप कित्याक? तागेलें दिसाळें तर येताच.
म्हळ्यार दत्तराजान दक्षणा दिवप बंद केलें.
दिना जाल्यार बाकिचे तरी कित्याक दितले?
दिवाळी आंक आयल्यात हें कळपाचे मार्ग बंद जाले.
त एक कोंकणी मनीस म्हूण म्हाका खात्री आसा
ीत कोंसळ्ळें तरी दिवाळी आंक येतलेच.
ानी 'कोंकणी' मातशे पयलीं येतात इतलोच फरक.
ाचें म्हळ्यार 'जाग' आयलो.
े बराबर वाचक जागे जाले.
पयलीं तांणी तो कचाकच चाळ्ळो.
ना तांचेकडल्यान कांय पानांय पिंजलीं
ं खंय म्हजो कॉलम सांपडलोना.
ाका तांचे फोनार फोन.
ों कोणें केले तांचीं नांवां सांगना.
आवाजावेल्यान वळखुपाची चूक जावं येता.
लीकाच्या नांवान कोण तरी घरा फोन करी.
पयलीं पयलीं तें खरेंच दिसलें.
ंत तो कोंकणींतलो शकुनी म्हूण तांकांय कळ्ळें.
वेल्यान तिरसुवादीक चवकशी सुरू जाली.
? दोनूच कॉलमांनी बंद मरे कॉलम?'
ं नाशिल्लें तुका, असलें लिखाण पचपाचें ना म्हूण?'
ात आजून तितली दाट जावंक ना.'
ोडून सोडून तांचीं आंगां मोव पडल्यांत रे.'
पडचे परस तुजोच कॉलम बंद केल्यार बरो.'
वेंतप पळोवन म्हाका हांसपाक आयलें.
ादी तरातरांनी चिंतूंक शकतात तें पळोवन बरें दिसलें.
ा म्हाका व्यक्तिगत मेळूंकय आयले.
ाणूय खंवसल्यार पाचारूंक येतात तशे.
ार दिवाळेक टोपण नांवान बरोवंक ना मरे?'
यकून म्हाका कच्च जालें.

हांव टोपण नांवान बरयतलों अशें हाका दिसलेंच कशें?
टोपण नांवान बरोवपाची परंपरा कोंकणींत आसा
आनी ती गरजेप्रमाण कोंकणींत आयली हेंय खरें.
कोण सरकारी नोकर म्हूण पोट भरतालो
तर कोणाचे सरकाराकडेन बरे संबंद आशिल्ले.
मागीर खाल्ल्या पानार हळशीक कशी करप!
खावपाकूय जाय आनी हळशिकूय करूंक जाय.
नातर कोठो इबाडून तकलेचें दुयेंस उप्रासता.
ताचेर उपाय म्हणून कोंकणींत टोपण नांवाची परंपरा सुरू जाली.
कोण 'हापशी' जालो तर कोण 'खा. के. ओरशे'
कोण 'बेकार थवय' तर कोण 'दो. के. वांकडे'
रुपडीं वेगळीं वेगळीं चडयलीं म्हूण रुपां लिपोवंक आयल्यांत व्हय तर तांकां?
हीं रुपडीं सगळीं जायांचीं. भितरलीं रुपां स्पश्ट दाखोवपी.
केन्ना केन्ना एकूच रूप दोन-तीन रुपड्यांतल्यान लोकांक दिसलां.
म्हजे स्टायलीन कोणें बरोवंक बी ना मू!
ह्या दुबावान हांवें 'जाग' हातांत घेतलो.
हांव म्हजो लेख आसल्यारूच आंक उगडटां
आनी फकत हांवें बरयलां तेंच वाचतां.
व्यासंगी वाचक म्हणटात तसलो म्हाका जावपाचोच ना.
ती मक्तेदारी दत्ता, नारायण देसाय, नंदकुमार बी हांची.
नातर ते बेठेच सभेमुखार तशें म्हणपाचे?
हांवें 'जाग' दिवाळी आंक पुराय चाळ्ळो
पूण तांतूंत टोपण नांवान कोणेंच बरोवंक नाशिल्लें.
म्हज्या बरोवपाकडेन लागीं अशे दोन लेख आसले.
एक शीला कोळंबकाराचो आनी दुसरो अनाचो.
ते तर तांणी स्वताच खास दिवाळी आंकाक बरयल्ले.
तांचीं नांवां घेवन हांव-सो कित्याक बरयतलों?
म्हाका बरोवंकूच जाय जाल्यार घे म्हूण नांवां आसात.
पूण म्हजो एक मित्र डी. सतीश म्हणटा,
पणजे खंय एक टोपणशेट म्हूण वेपारी आसलो.
त्या टोपणशेटी वेल्यान ही टोपण नांवाची परंपरा आयल्या.
टोपण नांवान बरोवपी सगळे ताच्याच घराब्यांतले.
म्हाका तो टोपणशेट आवडना, देखून टोपणनांव घेना.
पूण ह्या सगळ्या बोवाळांत एक बरी गजाल घडली.
शीलाचो 'पोजडीं उतरां' हो लेख वाचूंक पावलों.
वाचून एक प्रस्न पडलो, ह्या शीलाक जालां कितें?
साहित्य अकादमी पुरस्कार ताका मेळ्ळो ही बरी गजाल.
ताका मान-भौमान, दुडू-बिडू सगळें मेळ्ळें.
अशें आसतना आमच्या वांट्याक पोजडीं उतरां?
'साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो की लेखक सोंपता'
अशें झाडून सगळे म्हालगडे म्हणटाले.
दुसऱ्यांक तो मेळचो न्हय देखून ते तशें म्हणटाले
असो म्हजो त्या वेळार समज आसलो
शीलाचें बरोवप पळोवन तातूंत तथ्य आसा म्हणपाचें कळ्ळें.
आतां दत्ता नायकाकूय तो मेळूंक ज़ाय.
म्हणजे आमचे सारके तरी त्रासांतल्यान सुटटले.
शीलाचीं पोजडीं उतरां वाचून म्हजो एक फायदो जालो.
म्हाका साहित्यिक वावरांत नवी ओपार मेळ्ळी.

'सुनेचो तो धबधबो, धुवेची ती चुळचुळी!'
आपल्याचें तें बरें आनी दुसऱ्याचें तें वायट
हें सांगपाखातीर कोंकणींत फिट्ट ओपार नाशिल्लीच.'
'आपल्यालें तें बायूल, दुसऱ्यालें तें रांडूल'
ही कितले फावट आनी कोणें कोणें वापरची?
ते परस शीलाची ओपार खरेंच लक्तुबायेची.
डॉ. किरण बुडकुलेन तर ती वापरूंक सुरवात लेगीत केली.
'मावज्याली ती चुळचुळी आनी बोरकारालो तो धबधबो'
अशें भाई आनी दिलीप हांच्या साहित्याचेर बरयतना ताणें म्हळां.

खरें काय फट तें छापून येतकच कळ्टलें.
तर सांगपाची गजाल म्हळ्यार जाग दिवाळी आंक.
म्हणजे जागा विशीं कांय सांगपाचें ना.
सांगपाचें आसा तें हांवें लेख कित्याक दिलो ना:
तेंय बी वाचकांचो गैरसमज पयस करूंक.
जागान म्हजो कॉलम बंद केलो असो तांचो समज.
कॉलम बंद करूंक जाग सुनापरान्त व्हय तर?
तर हांवें बरोवंक ना ताचें कारण एकूच.
तुमकां ह्या कॉलमाची तिश्टत लागची देखून. *

---

# घणुं लोभ गळो करावै

□ एके उमाशेक णवूय खंडांतले भावार्ती गंगा-स्नाना खातीर काशीक आयिल्ले. तांचे मजगतीं एक व्हड पंडितूय आशिल्लो. घाटार येवन पळेत जाल्यार, हः लोक गंगेंत देंवन बुचकळ्यो मारतात. मात्सो वेळ थांबुंया आनी लोक न्हावन वयर सरतकूच गंगेंत देंवुंया, अशें येवजून तो दशाश्वमेध घाटाचे एके पाय रावलो. म्हऱ्यांत एक चामार जोतीं लायतालो. पंडिताच्या जोत्याचो आंगठो तुटिल्लो. ताणें आपणालें जोतें-आंगठो लावपाक चामारा कडेन दिलें. चामार ते लागलो. पंडितान ताका विचारलें, 'तुंवें गंगास्नान केलें?'

'ना.'

'कित्याक?'

'मन निवळ आसतकूच जालें. गंगा-स्नानाची मागीर गरज उरना.' चामारान जाप दिली.

जाप आयकून पंडित ताचेकडेन तोखणायेन पळोवपाक लागलो.

आंगठो लावन जालो तेन्ना पंडितान एक आणो चामाराक दिवपाक काडलो. चामार म्हणपाक लागलो, 'तुमी ज्ञानी, विद्वान, धर्मात्मा... येद्याशा काम तुमचे कडल्यान पयशे घेतले जाल्यार गंगा-मैया म्हाका कितें म्हणटली?'

पंडितान पर्थून एक फावट ताच्या तोंडाकडेन तोखणायेन पळेलें.

म्हणटासर गंगेंतल्यान कितलेशे जाण न्हावन वयर सरले. पंडित उठलो. आपणाली मुस्तायकी चामारा सुवादीन करून ताणें म्हळें, 'न्हावन येतां... मात्शी मुस् नदर दवर.'

'बरें आसा, तुमी हुसको करूं नाकात... कोण हात लावपाचो ना तुमचे मुस्तायकेक', चामारान म्हळें, आनी आपणाली गांठ सोडोवन एक सुपारी काड ती पंडिताच्या हातांत दिवन ताका सांगलें, 'गंगेंत देंवतकूच ही सुपारी गंगेक ओंपात. आनी रैदासान दिल्या म्हूण सांगात.'

पंडिताक अजाप जालें. ताणें रैदासाचें नांव आयकल्लें. एक व्हड संत म्हूण तो रैदासाक वळखतालो. ताणें रैदासाकडेन पर्थून एक फावट तोखणायेन पळेले

पंडित गंगेंत देंवलो. रैदासाची सुपारी गंगेक ओंपून ताणें म्हळें, 'रैदासान ही सुपारी तुका ओंपपाक दिल्या.' त्याच खिणाक गंगामैया न्हंयेंतल्यान वयर तिणें सुपारी आपणा हातांत घेतली आनी पंडिताच्या हातांत भांगराचें एक कांकण दिलें. आनी रोखडीच आशिल्ली तशी न्हंयेंत भितर गेली. तिणें हें कांकण दिवपा खातीर दिल्लें. पुणून कांकण पळोवन पंडिताची दानत इबाडली. 'रैदास कितें करतलो हें कांकण घेवन? ते परस तें आमच्या राजाक दिल्लें ब दळदीर तो ना करतलो' अशें मनांत म्हळें आनी रैदासाक कांय सांगी नासतना कांकण घेवन तो गेलो. गांवांत पावतकूच ताणें राजाची भेट घेतली आन ताका दिवन ताणें म्हळें, 'हें राणयेच्या हाताक सोबतलें.'

कांकण पळोवन राजा भुल्लुसलो. ताणें पंडिताक विचारलें, 'कितें दिवं ह्या कांकणा बदला तुका?'

'राजाची कृपा... दुसरें कांय नाका.' पंडितान जाप दिली.

राजान शेटींक आपयले. तांकां कांकण दाखोवन विचारलें, 'कितलें मोल आसतलें ह्या कांकणाचें? पंडिताक हांवें कितें दिवंचें?' शेटिंनी कांकण पळे म्हळें, 'कितलेंय मोल दिल्यार असलें कांकण मेळपाचें ना... हें मोलावंक येवपाचें ना... पंडिताक कितलेंय दिल्यार तें उणेंच म्हणचें पडटलें.'

राजान प्रधानाक आपोवन सांगलें, 'ह्या पंडिताक कितेंच उणें पडूंक जायना. ताचें घर भरून दार ओतूंक जाय.'

पंडिताच्यो सगळ्यो विवंचना सोंपिल्ल्यो.

राजान कांकण व्हरून राणयेक दिलें. राणी खोश्शी खोश्शी जाली. तिणें तें दासयेक दाखयलें. दासयेन म्हळें, 'प्रत्यक्ष सूर्य तुज्या हातार येवन रा दिसता. पुणून...'

'पुणून कितें?'

'दुसरो हात उगडो नागडो उरप सोबना...'

राणयेन राजाक म्हळें, म्हाका आनीक एक असलेंच कांकण जाय... एक हात उगडो नागडो उरता.'

राजान पंडिताक आपोवन हाडलो. 'हें कांकण तुका खंय मेळिल्लें? असलेंच दुसरें एक घेवन यो थंयच्यान.' पंडिताक खरें तें सांगचें पडलें.

'रैदासाकडेन वचून माग.' राजान म्हळें.

तो रैदासाचे भेटेक गेलो. रैदासान पयराल्यानूच ताका पळेलो. आनी म्हळें, 'तें कांकण आशिल्लें तशें गंगामैये कडेन पावलें. आनी तेच बरोबर रा जें दिल्लें तेंवूय गेलें... 'घणुं लोभ गळो करावै'.

## ...त

□ ...ांगेश करमली

...शें वोत
...ं गांवां
... सरून
...ण्यांचीं नांवां

...डां जालीं
...नांतुले
...यांचे उले
...ठां .उदेले

...नेशेलें
...निळशेलें
...थांगाचे
... कळेलें

... मनमोर
... उजळ्ळें
...चें माणे
...र पातळ्ळें.

## हायकू

□ राजय र. पवार

१.
पेरीर एक पेर पिकलां
आनी खांदयेर भोंवतात
चानये पिलां.

२.
दनपारच्या भारार वावटळ
घूंव घूंव घुंवली
आनी पऽऽयस पावली

३.
सत्रेपोंदच्यो दोन तकल्यो
पयस मळार वचून
एकामेकांक तेंकल्यो

४.
अनसा झाडाक अनस
त्या अनसाक फुटलां
आनी एक कणस

५.
पतंग बरो तालार उडटा
नेमकें तेन्नाच
... सूत तुट्टा!

६.
मणांचें वजन घेवन फाटीचेर
गरगरत एक ट्रक
चडटा चडटेचेर

## चंवळ्यो

□ पूर्णानंद च्यारी

दीसभर न्हेशिल्लें, उजवाडाचें न्हेसण
धतरीन सोडून उडयलें.
आनी उदारीच रावली
संद सादून काळखान तिका वेंग माल्ली.

* * *

वाऱ्या वांगडा दसवंत मोनी
मान हालयत खबरी करता
मदींच भंवर येवन
कानांत तिच्या फुतफुतता.

* * *

दीस धांपीत सूर्य गेलो
मळब करीत तांबशें
फांतोड फोडीत परतलो
सृश्टीचें पुसत लाशें

* * *

खरें म्हळ्यार
आमी सगळीं जितीं मडीं
मरचे खातिरच जगतात
तोवेळ मेरेन काडाओडी काडटात

* * *

मरणा सरणाच्यो गजाली
निमण्योच दवरूंया
आतांच कित्याक आंगार
मर्णाचो चेर मारूंया?

# दोन कविता

□ माधव बोरकार

१.
पांचव्यो दोंगुल्ल्यो
दोंगुल्ल्यो दुवाळ्यांच्यो
रंग सुवाळ्यांच्यो...

२.
रंगलो ओंठांत
स्रावण विडो
तुजो किणकिणलो चुडो...

# काल

□ माधव बोरकार

वाटेवयलें
एकेक स्टेशन
फाटीं पडटा
तसो
काळ मुखार
सरत रावता...

# अर्भकाच्या दोळ्यांनी

□ परेश नरेंद्र कामत

हो रंग कोण भरता विरगळावन
तुज्या-म्हज्या दरेका उम्यांत;
हो भोंवर कोण धरता
मना-मेळांत तुज्या-म्हज्या भोंवरत...

कोण ओल्यांनी रावता सळसळत
पावसाचे वावझडींत तुका-म्हाका कुलकुलावन;
कोण जागयता शिरंतरांतलें रगत
कातींतल्यान चरत मातयेवरी तुजें-म्हजें.

कोण अळंग करता सुगूर
वेंगे-वेटाळ्यांनी हें काळीज कळवळून घेत;
अर्भकाच्या दोळ्यांनी कोण तेळटा
आवयच्या कुसव्यावरी हो संवसार फुलोवन...

# आपसूक

□ मंगला शिवदास

गजाली जर आपसुकूच
कळपाच्यो आसत्यो
जाल्यार संवसारांत कोणाचेच
जिणेची दैना जावंची नाशिल्ली
पातकडयो हुपून दोळ्यांच्यो न्हंयो
वर्सां संकिनी व्हांवच्यो नाशिल्ल्यो
दुकांचे आंवडे गिळटां गिळटां
दांत घायार घाय
ओंठार घालचे नाशिल्ले
काळजाचें दूख काळजाक
आपसूक कळपाचें जाल्यार
काळजाचे कुडके कुडके जावन
जिवीतभर अस्ताव्यस्त
पसरचें नाशिल्लें
तें पुंजायतां पुंजायतां
कोणा दळदिऱ्याची
जिणूच सोंपून
वचची नाशिल्ली.

# ो केन्नाय नाका नाका

द वर्टी

ा सूर्याच्या देशांत सूर्य निकतोच उदेल्लो तेन्ना
ु गेल्लो शाळेंत हातागुची आपल्या कामाक
ं गेल्ली हाडूंक भाजी शिगेरू गेल्लो मेळूंक मामाक
दीस आसले तरी कोणाकय अदमास ना
वाडून दवरलां फुडें कितें ताचो वास ना.
त आयलें विमान
ाळय पोटांतल्यान
केन्नाय नासलो पळोवंक
ार हिरोशिमान!
खिणा दणादणा फुटले अणू बॉमातल्यान
शार लासून गोबर राकेस आयलो होमांतल्यान.
ाड् धाड् पडलीं घरां लोखण लेगीत कण्ण गेलें
लाख लोकां चोमे खिणांभितर मन्न गेले.
कात हाडां पिठो झाडांपेडां नपश्यात
ळीं मर्डीं आनी रगताचे व्हांवले पाट.
उरले तांचेय जाले मरणापरस चड हाल
गेलीं मनां तांचीं पिवन हालाहलाचो जाळ.
ा राष्ट्रांचो
आयलो अहंकार
दिवन पापाचें
खर नरसंहार!

दोळ्यां दुकां येतात आयज इमामुराची पळोवन बॅग
जळलेलो एक वांसो आनी कांचे कुडको पगळलेलो
निकावाच्या बॉल्सांतलें घडयाळ एक अजून आसा
आवयन दिल्लो जेवणा डबो शिगेरूचो तिगून उरला.
फुटको क्रूस पिनको पोलको एक बावली गलितगात्र
बशी एक बाटली एक रावल्यात आतां यादीक मात्र.
देखदिण्यो वस्ती अशो
सांगतात आमकां मोनेपणान
'जावंनाकात रे मनशांनो
हिंस्त्र अशें सोडून भान.
शिकून घेयात थोडें तरी
इतिहासाच्या घडणुकांनी
ख्यास्त भोगची पडटली
परती केल्यार तीच करणी.'

जात पात धर्म भास भेद अजून तिगून आसात
आपल्या शेकातळा जग हाडपाक देश हावेसतात
अजून बांदतात अणूबॉम अजून करतात गर्जना
सांगुया तांकां पुरो तुमचीं पुरो आतां पिशेपणां
मनीसपणाचो जाल्लो गोबर एक फावट याद राका
जग सामकें जातलें नश्ट परतें केन्नाय नाका नाका

जग सामकें जातलें नश्ट परतें केन्नाय नाका नाका.

[हिरोशिमाच्या बॉमस्फोटांतल्यान तिगून उरिल्ल्या वस्तिंचें Never Again ह्या नांवान भरिल्लें प्रदर्शन पळोवन.]

# कोंकणी सरस्पतिच्या आंगणांत आजुनय जायत्यो तळयो खेळपाक जाय...

एन्. शिवदास

आतां हय न्हयशी याद जाता. खूब वर्सां जालीं हे गजालीक. तेन्ना चळवळ बिळवळ म्हणजे कितें तें सारकें कळ नासलें. फोंडेंच्या आल्मैद हायस्कुलांत शिकतना कितें कितें कानार पडटालें. जनमत म्हळ्यार ओपिनियन पोल आयलो आनी मात्शेंशें कितें तरी समजलें. तेन्ना हांव पंदरा-सोळा वर्सांचो आसुंये. ताचे पयलिंची मात्शी याद जाता ती नागेशीं देवळा प्राकारांतले भवानी शाळेची. हे शाळेंत नारायण मास्तरान मराठी दोन यत्ता शिकयल्यो पूण पुतुगेज राज्यपाल वासाल सिल्वान गोंयांत इस्कोल प्रिमार काडली. हो निमाणो गव्हर्नर खऱ्यांनीच बरो मनीस आशिल्लो जावंक जाय. हांवें ताका कवळें गांवांत, जंय आतां सरस्वती हायस्कूल आसा, थंय एके कार्यावळीक मात्सोसो पळयिल्ल्याची याद जाता. त्या दिसा तांणी भुरग्यांक स्कूलबॅगां बी वांटिल्लीं, आनी ताचेवयल्यान हांवें अदमास केल्लो, हो पुर्तुगेज गव्हर्नर बरो. हांव मराठी शिकपाची सोडून म्हालक्ष्मी (बांदोड्या) देवळाकडेन आशिल्ल्या इस्कोल प्रिमारांत आ-बे-से शिकपाक गेलों. ती पुर्तुगेज शाळा म्हळ्यार सध्याचें मराठी लेखिका माधवी देसाई हांगेलें घर. सारकें महालक्ष्मी देवळाच्या सामकार आसा.

पुर्तुगेज सेगूंद क्लास कितें तरी शिकतालों तेन्ना अकस्मात जयहिंद जालें. गोंय स्वतंत्र जालें, पाखले गेले, भारत आयलो, इतलेंच तेन्ना समजलें. स्वातंत्र्याचो तितलोच विचार त्या खिणाक आसलो. हो वेळ मेरेन कोंकणी भास फकत घरांतल्यान शाळेंत, तोंडयां उलोवपाची भास; तोंडान उलयतात ती भास शाळेंत कित्याक शिकयनात काय, हेंवूय न समजुपाइतली पिराय. मात गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना ओगीच बरें दिसलें. आमचें कितें जातलें, शिक्षणाचें कशें जातलें, पुतुगेज शिकप ना, आतां इंग्लेज शिकपाचें, अशें सांगलें. पूण हेर भुरग्यां भाशेन म्हजोय मोटो गोंदळ जाल्लो. मराठी दोन यत्ता आनी पुतुगेजूय अर्दें सेगूंद क्लास. म्हळ्यार धड मराठी चौथीय ना आनी पुर्तुगेज सेगूंद ग्रावय ना. पूण आमचे सारक्या अद्धार उडयिल्ल्या भुरग्यांची नव्या सरकारान वेवस्था केल्ली. आमकां सरळ पांचवेंत इंग्लीश माध्यमाचे शाळेंत प्रवेश दिलो आनी इंग्लीश शिक्षणाच्या रुळार गाडी सुरळीत सुरू जाली. आनी हेच गाडयेंतल्यान शिक्षणाची परिक्रम. करतां करतां आल्मैद हायस्कुलांत आठवेक आयलों. कारण, पोस्तार, म्हळ्यार सद्याचे राजमाता सौंदेकर हायस्कुलाचे पोरणे इमारतींत गोवा विद्याप्रसारकाचो एक फांटो निकतोच सुरू जाल्लो आनी थंय फकत पांचवी ते सातवी मेरेन वर्ग आसले; आठवेक एक तर फोंड्यां ना जाल्यार कवळ्यां सरस्वतींत वचपाचें. आमी नागेशींच्या चडशा भुरग्यांनी फोंड्यां वचपच पसंत केलें. आतां जो काशी मठ आसा ताका तेंकून मदल्यान फोंड्यां वचपी जो रस्तो आसा त्या रस्त्यान आमी सद्दां चलत फोंड्यां आल्मैदा हायस्कुलांत वताले. उणेच म्हळ्यार गांवांतले धा-पंदरा भुरगे, चले-चलयो बांदोडेच्यान फोंड्यां इस्कोलाक वताले.

आल्मैद हायस्कुलांत शिकता आसतना म्हाका बरोवपाची उर्बा बरयन कित्याक दिसलें तें म्हाका खबर ना, पूण कविता बी बरयन पूण त्या तेंपार बरोवप तें मराठींतल्यान. येना, जमना जाल्यारूय मराठी बरोवप. स्कुलाचें मॅगझीन काडपाचें थरलें तेन्ना भुरग्यांक नोटीस स्कूल मॅगझिनाक कविता, काणयो, निबंद बी दिवचे. हांवें तेन्नाचे प्रमाण आमकां मराठी शिकोवपी शिक्षक उपाध्ये हांचेकडेन कितें तरी दिलें. तें बरप मराठींतल्यान जाल्ल्यान कशें कितें जाल्लें तें म्हाक ना. मराठी सरान तें उपकारना अशें कितें तरी म्हळें आनी मॅ घालेंना.

ताचे उपरांत आनीक एक अजापाची गजाल जाली. ती सांगल्या कोण खरें मानचोना.

इस्कोलाचें गॅदरींग आसलें आनी गॅदरिंगाक नाटकुलें करपाक जाय तेन्ना भारत आनी चिनाचें झूज जातालें आनी वता थंय देशभ खबरी कानार पडटाल्यो. लडाय चलताली, सगळ्यांनी लडायेक जाय अशे विचार भुरग्यांमदीं पसरताले. आमकां एक दिल्लीची नांवाची हिंदी टचर आशिल्ली. बरी उमेदी, आनी भारतीयत्वाची जाणकार-शी. गॅदरिंगाक नाटकुलें करपाक जाय अशें तिणें म्ह नाटकुलें बरयतलो जाल्यार तें मराठींतल्यान बरोवंक जाय, आनी मराठी येना हें मराठी सरान म्हजें लिखाण न्हयकारून पयलेंच प्र दिल्लें. म्हणटकच मराठी नाटकुलें म्हजेकडेन बरोवप जावचेंना म्ह नाटकुलें हिंदींत बरोवचें थारायलें. 'माँ की पुकार' अशें नांव दि देशप्रमा वयलें नाटकुलें बरयलें, आनी तेंवूय हिंदींतल्यान. आतां त्य म्हजी हिंदी भास कसली आसतली! पूण हांवें धीर करून तें सक्सेना टिचरीक दाखयलें. आनी 'अरे वा! अच्छा लिखा है म्हणत तिणें म्हाका आयुश्यांतलें पयलें प्रोत्साहन काय उत्तेजन कितें तें दिलें. इतलेंच न्हय, म्हाका याद जाता, ते अती उत्साही तेन्नाचे म्हजे हेडमास्तर सी. फेर्नांडीस (केरळी, सद्याक रिटायर्ड फोंड्यांतच स्थायिक जाल्ले आसात) हांचेकडेन म्हाका व्हेलो आ गुखार म्हजी तोखणाय केली. तिणें इंग्लेजींत तेन्ना नेमकें कितें तें आतां याद जायना, पूण हेडमास्तरान तिगेलो अतीउत्साह ताणें तिका तोंडार सांगलें, भुरग्यांची तोखणाय अशी तांच्या तोंडा फावना. मागीर ते ताचो गैरफायदो घेतात. हें म्हाका सक्सेना ि भायर येतकच सांगलें. कितेंय आसूं, तिणें म्हगेली हिन्दी भास तें नाटकुलें वेवस्थीत केलें आनी ताच्यो तालमी सुरू जाल्यो. त्या नाट हांवें काम केलें आनी, म्हाका याद जाता, तांतूंत पयलिंची विणा (दो. मुकुल महात्मेची घरकान्न) हिणें मुखेल रोल केल्लो. नाटकुले बरें जालें, आनी उपरांत तेंच नाटकुलें फोंडेंच्या लायन्स क्लबान अ

ा एकांकी आंतर-स्कूल स्पर्धेंत पयलें आयलें. लायन्स शिल्ड हे भाशेन म्हाका बरोवपाची आवड लागली.

र्स उजवाडलें आनी गोंयांत फूल-पानाचो बोवाळ जावपाक जशें प्रचारतंत्र लोकांक भिडपाक लागलें, तेन्ना शिकता थंय ां समजलें तें म्हळ्यार आमचें गोंय खंय तरी व्हरतात. महाराष्ट्रांत राठी राज्य करतात. मराठी भास जातली. म्हाका सारकें पूण हांव मात गोंय महाराष्ट्रांत घालचें न्हय ह्या मत्ताचो ाच्या प्रभावान, कित्याक म्हाका अशें दिसलें तें आतां सांगपाक ा ह्याच वेळार मडगांवच्यान राष्ट्रमत पेपरांत गोंय वाटयात, नाका, विलिनीकरण जाल्यार गोंयकार कशे शेणटले, कोंकणी रांची भास मराठीची दासी जातली अशे तेरेचे विचार कोण बरयतालो. राष्ट्रमत सद्दां वाचपाची गोडी लागली. विद्यार्थी पत्र वाचपी भोव थोडे विद्यार्थी आसतात, पूण त्या दिसांनी पाची संवंय जाली आनी ताच्या प्रभावांतल्यान हांवें न पयलेच खेपे बरोवपाची सुरवात केली. राष्ट्रमतांत आयताराक बी कोंकणींतल्यान येताल्यो. त्यो कोंकणी कविता बी वाचून ठ मेरेन आशिल्लो समज, म्हळ्यार कितेंय बरोवपाचें जालें कत मराठींतल्यानूच बरोवप म्हणपाचो, पयस जालो. कोंकणींतूय पून येता हें हांवें पयलें राष्ट्रमताच्या आयताराच्या आंकांतल्यान प्रळयलें. आनी म्हाका कितें कोण जाणा, बरें दिसलें. आतां ाक सोंपें जातलें, अशें दिसलें. आनी खऱ्यांनीच हांव बरोवंक

चें नांव घेवंचें, कशें बरोवचें हें कांय खबर नासलें. म्हजें ेगळें, गांवांत शिवा हें नांव, सगळे शिवाच म्हणटाले. घरांत ली, आमी खांडेकारां. म्हळ्यार, आमची कुलदेवी खांडेपारची ांडेपारचे जात्रेक घरांतल्यो सवायशिणी दिवजांक वताल्यो त्यो ची कुलदेवी म्हणून. घर नागेशीं पूण नागेशाचे जात्रेक दिवजां ा आमचीं घरचीं बायलां नागेशींच्यान चलत खांडेपारा हातांत वतालीं. कुलदेव, ग्रामदेव बी फरक उपरांत समजलो. नागेश पूण कुळाची देवी खांडेपारची रोयणींतली शांतादुर्गा, म्हणजेच देखून म्हजो समज जालो की आमी खांडेपारकारां. खांडेपारचे ळावी खांडेकार हे आडनांव लायतात. देखीक, सावड्डेंचो खांडेकार. देखून हांवें दै. राष्ट्रमताच्या आयताराच्या आंकांत कोंकणी कविता 'जैताची घुडी' (ती जनमतकौलाचेर आशिल्ली) ह्या नांवान बरयलिना. एन्. शिवदास हें नांव तेन्ना कल्पनेंत नय नासलें. म्हजी पयली कविता शिवदास खांडेपारकार ह्या ाडाक आयली. कुलदेवीच्या गांवाचें नांव तें म्हजें नांव हे ांव घेतिल्लें. पूण आमकां कोण खांडेपारकार म्हणनासलो. नांव हें आमचे जातिचें नांव. गोंयांतल्या भंडारी वा नायक चडशा लोकांक आडनांव जातिचेंच आसा, भोव थोड्या ांत वेगळीं आडनांवां आसात, देखीक, होमखंडे, वाघ, देसाय, वस्त, सोननायक आदी. उत्तर गोंयांतल्या नायक समाजांतल्या ीं वेगळीं आडनांवां आसात. ते भायर गांवांवयल्यान नांवां तां जायते जाण गांवच्या नांवां वयल्यान आपलीं आडनांवां र सांगपाचें म्हळ्यार, कोंकणीतली पयली कीट पडली ती शिवदास हेंच नांव फुडें आयलें. खांडेकार वा खांडेपारकार आनी उपरांत आनीक एके घडणुकेक लागून अकस्मात एन्. ांव जालें. ती घडणूक हांगा सांगना, पूण म्हज्या एका इश्टान गांवाचें एन्. केल्लें ताचें कुड्डें अनुकरण हांवें केल्लें. म्हज्या एन्. केल्ल्यान हांव म्हजी जात लिपोवंक सोदतां अशे तरेचे आरोप वर्तमानपत्रांतल्यान जाल्यात. पूण हो वेळ मेरेन हांवें त्या आरोपांचेर कसलोच खुलासो केल्लो ना. आयज कोंकणी चळवळींत हांव कसो पावलों हें सांगतना ह्यो बारीक पूण नगण्य अश्यो गजालीय सांगच्यो पडटात. कारण, आतां इतल्या वर्सांनी त्या गजालिंकय म्हजे नदरेन म्हत्व आयिल्लें आसा.

आनी मागीर कोंकणी चळवळींत सक्रीय जावपाक म्हजो एक इश्ट कारण जालो. फोंडेचो सतीश दळवी. ताणें म्हजी कोंकणी कविता वाचिल्ली दिसता. सतीश म्हाका एक क्रिकेट गडो म्हणून पयलीं वळखतालो. म्हाका क्रिकेट खेळाचो खूब नाद आसलो. हांव एक बरो विकेटकीपर आसलों. हांव बरो क्रिकेट खेळटालों म्हणून म्हाका आल्मैद इस्कोलांत दोन वर्सां णववेंत आनी धावेंत सगळ्यो सवलती दिल्ल्यो. पिकनीक लेगीत फुकट. हांव इस्कोल सोडून पणजे पिपल्सांत वतां हें कळटकच म्हज्या तेन्नाच्या सांगात्यांनी म्हाका पणजे वचूं नाका म्हणपाची विनंती केली. पणजे वचपाचें कारण म्हळ्यार नोकरी. घरचे परिस्थितीक लागून शाळेंत शिकतनाच कसली तरी नोकरी करपाची पाळी म्हजेर आयिल्ली. सेल्समॅन म्हूण म्हाका पणजेच्या एका दुकानार शिर्वीस मेळिल्ली. शिर्वीस करून रातचे शाळेंत शिकपाचो म्हजो बेत आसलो. पूण क्रिकेट खेळाक लागून म्हजेर ती पाळी आयलिना. दोन वर्सां सगळ्यो सवलती मेळ्ळ्यो म्हणून हांव आल्मैदांतल्यान मॅट्रिक पास जावंक पावलों.

तर सतीश दळवीन म्हाका एक दीस मडगांवां हाडलो. तेन्ना कोंकणी भाशा मंडळाची बसका आसली. दो. मनोहरराय सरदेसाय भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आसले. कोंकणी भाशा मंडळाचें ऑफीस तेन्ना बाजारांत जो मदलो रस्तो आसा ते चाळींत माळयेरशें आसलें. ते लायनींत नुरुद्दीन मवानीचें दुकान आसलें.

कोंकणी भाशा मंडळांत पयल्याच धपक्याक म्हाका सुवात मेळ्ळी. घडये तेन्ना चडशे वावुरपी नाशिल्ले म्हूण जायत. म्हाका कोंकणी भाशा मंडळाचे कार्यकारिणीचेर सुवात मेळ्ळी. भाशा मंडळाचो हांव उपरांत सर्वकाळ वांगडी जालों.

भाशा मंडळांत आसतनाच ओपिनियन पोलाचो धोल वाजपाक लागलो. नुरुद्दीन मवानीन म्हजी वळख उल्हास बुयांवाकडेन केली आनी म्हळें, आमकां गोंयच्या कलापथकाक हो उपकरतलो. म्हाका उल्हासान सांजवेळा एसायेक पाजीफोंडांत आशिल्ल्या नुरुद्दीन मवानील्या घराकडेन आपयलो. थंय एसायो चलताल्यो. पयलें गीत हांवें पाठ केलें तें 'गोंयकारांनो, जायात जागे.'

महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्या अमर शेखाच्या मराठी कलापथकाक तोंड दिवपाक उल्हास बुयांवाच्या फुडापणाखाला 'जय गोमंतक कलापथक' स्थापन जालें आनी ह्या कलापथकाचो हांव एक वांगडी जालों. आनी खऱ्या अर्थान कोंकणी चळवळींत भरसून गेलों. मागीर जनमत कौलाच्या प्रचाराखातीर शाळेक दांडयो मारून गोंयभर उल्हास बुयांवा वांगडा 'गोंयकारांक जागयत' भोंवलों. त्या वर्सा हांव आठवे यत्तेंत शिकतालों.

जनमत कौलाच्या वेळार चळवळिचें खरें थ्रिल अणभवलें. तीं भाशणां, ते मोर्चे, तो संघर्श आनी वादावादी हांतुंतल्यान आमची मानसिकता घडत गेली. खास करून स. शंकर भांडारी आनी उदयबाब भेंब्रेचीं भाशणां खूब बरीं जातालीं. महाराष्ट्रांत विलिनीकरण कित्याक नाका हें ते बेस बरें लोकांक पटोवन दिताले. खास करून खणखणीत लोखणाचे गुळे कशीं शंकर भांडाऱ्याचीं उतरां आनी ताचो तांबडो रुपकारांतलो अवसर पळोवन म्हज्या आंगार उत्स्फूर्त कांटो येतालो. शंकर भांडाऱ्याभशेन म्हाकाय खणखणीत उलोवपाक येवंक जाय अशें मनांतल्यान दिसतालें.

जनमत कौला वेळावयले खूबशे अणभव खेरीत तरेन बरोवपासारके आसात. कारण जनमत कौल हो गोंयच्या इतिहासाचो आनी गोंयकारांचो,

गोंयकारांच्या वेगळेपणाचो, कोंकणी भाशेचो आनी घटकराज्याचो एक खाशेलो नीस. ताचे बुन्यादिचेर मागीर आमी फुडली चळवळ उबारूंक पावले, नाजाल्यार गोंयच्या मराठी जिल्ह्यांत आयज आमी खंय आसतले आसले देवाक खबर.

पूण आयज मात एके गजालिचो खूब अभिमान आनी गर्व दिसता. गोंय वेगळें दवरुपाक म्हजोय इल्लो वावर करपाक लागलो. देखून त्याच भांडवलाचेर गोंय राज्याच्या, तेन्ना गोंय विर्लीन करपाक वावुरपी पूण गोंय वेगळें उरतकच गोंयचो मुख्यमंत्री जावंक पावल्ल्या श्री प्रतापसिंग राणेंक हांव तांच्या कॅबिनांत उबो रावन खडसावन सांगूंक पावलों: "आमी गोंय वेगळें दवरूंक जैतिवंत जाले देखून आयज तूं गोंय राज्याचो मुख्यमंत्री जावंक पावलो आनी तुमी वावुरताले ते प्रमाण जर गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जाल्लें जाल्यार तूं महाराष्ट्राचे विधानसभेंत घड्ये एक आमदार बी आसत आसलो." विलिनीकरण जालेंना, गोंय वाटावलें, वेगळें उरलें. पूण फुडलो वावर आसलो तो कोंकणीचो.

कोंकणी आमची स्वतंत्र भास, ती मराठीची बोली न्हय, ह्या मुद्द्याचेर फुडलो लढो आमकां लडोवचो पडलो.

जनमन कौला उपरांत मागीर कोंकणी भाशा मंडळाचीं शिबिरां, लेखक संमेलनां, परिशदो आनी लळितकां हे सारक्या कार्यावळिंनी हांव दिसपट्टो वावरूंक लागलों. बरोवपी म्हणून इल्लो-इल्लो फुडें येवंक लागलों. कथा हो साहित्य-प्रकार चड आवडूंक लागलो. म्हजी पयली कथा 'ठकशेन' भौ. सुहास दलालांच्या 'परमळ' नेमाळ्यांत उजवाडाक आयली आनी कथाकार म्हूण हांवें कथेच्या मळार पावल दवरलें. रोखडीच दुसरी कथा 'नवें गोंयां'त भौ. गुरुनाथबाब केळेकारांनी उजवाडा हाडली. तांणी कथेचेर खास संस्कार करून, वेवस्थीत मांडून ती छापली. मागीर कथेच्या मळार हांवें फाटीं वळून पळेलेंना. राष्ट्रमताचे दिवाळेचे कथा सर्तींत सतत तीन वर्सां इनामां जोडलीं. आकाशवाणी पणजी केन्द्राचे सर्तींत 'एकजात मोनजात' इनामाक पात्र थरली आनी हे भशेन साहित्यांतलो एक सूर गवसलो. लेखक म्हण हांव नांवारुपाक येवपाक लागलों. 'हो कोंकणी लेखक एन्. शिवदास' अशी कोणेंय वळख करून दितकच एक वेगळोच अणभव आयलो. खोस जावंक लागली. कोंकणी मायेन म्हाका लेखक केलो, कोंकणी मायेच्या रिणांत उरलों आनी तिच्या रिणांत रावन मागीर १९८६-८७ वर्साच्या भाशा आंदोलनांत उडी घेतली.

ह्या वेळार हांव कोंकणी शिक्षक म्हणून वावरूंक लागलों. पोट भरपाचोय वेवसाय कोंकणी भाशेनूच दिलो. नोकरी लागली तिवूय बी कोंकणी शिकोवप्याची. शिकयतां शिकयतां हांव कॉलेजींत वचपाक लागलों. कांय सुरवेचीं वर्सां फुकट गेलीं. खर्च करून कॉलेज शिकपा इतली परिस्थिती नासली. घरा आवय आनी भयण. बापूय ल्हान आसतनाच सोडून गेल्यान ल्हानपणासावन आमकां वयर काडपाक आवयन खूब त्रास घेतले. भयणीकय मॅट्रीक मेरेन शिकयली आनी हांवें फावता तसो अभ्यास करून मुंबय विद्यापिठाची इंग्लिश साहित्य आनी सौंदर्यशास्त्र हे विशय घेवन पदवी मेळयली. ताचे उपरांत एल्.एल्.बी., एम्.ए., बी करपाचो यत्न केलो. एम्.ए. दोनूय वर्सां केली, पूण निमाणे परिक्षेक बसलोंना. एल्.एल्.बी. पयलें वर्स करून थंयच ड्रॉप घेतलो. मागीर शिकपाचो नादूच सोडून दिलो.

राज्यभास आंदोलन आयलें आनी राज्यभास आंदोलनांत हांवें म्हजे म्हाका पुराय झोकून दिलो. कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचो एक मुखेल म्हण हेर इश्ट फुडाऱ्यां वांगडा कामाक लागलों. मोर्चे, मेळावे, सभ कोंकणी भाशेचें म्हत्व, गरज, खाशेलेपण हे मुद्दे घेवन गोंयभर भाशणां केलीं, लेख बरयले आनी शेकीं हेरांच्या वावरांत म्हज्या इ वावराचें फळ म्हण आमकां कोंकणी राजभास जाल्ल्याचें ह्या दे पळोवंक मेळ्ळें.

कोंकणी राजभास आंदोलनांत म्हज्या फोंडेच्या घराचेर पांचश मराठीवादी लोक मोर्चा घेवन आयले तेन्ना म्हज्या बायल-भुरग्यांक आवयक त्रास सोंसचो पडलो. उर्बा आनी सया हांकां भुरगेपणा चळवळिचे जाळ पळोवंचे पडले. जेन्ना भायर मोर्चा आयिल्लो तेन्ना मो लोक म्हाका आवय-भयणीवयल्यान बुरश्यो-बुरश्यो गाळी घालता आवयक घरांत रावन आयकुच्यो पडल्यो. आनी आपूण घरांत अ मोर्चा घेवन आयिल्ल्यांक भायल्यान कळचें न्हय म्हण सया रडत सयाच्या तोंडाक कापडाच्या पदराचो गुटलो करून कोंबलो तो प्रसंग आसलो. मोर्चेकार फोंडेंच्या एका 'समाजबांधव' म्हणपी फुडाऱ्याचे सु आयिल्ले म्हणपाचें उपरांत समजलें. मोर्चा येतकच उपरान्त म्ह राखपाक दोन तीन दीस पुलीस येवन भायर रावपाक लागले. हें घडलें तेन्ना हांव पणजे केपीएच्या हेर वांगड्यां बरोबर आसलों.

आयज ह्यो सगळ्यो घडणुको अभिमानाच्यो कथा जाल्ल्यो आस

ताचे उपरांत गोंयांत कितें घडलें तें सामकें ताजें आसा. रा आंदोलना उपरांत आठवे वळेरेंत कोंकणी पावली. ताचे पयलीं अ घटकराज्य मेळ्ळें. आनी जें जें मेळोवपाक आमी वावुरले तें आमकां गेलें.

आयज कोंकणी मायेचे सासायेन हांव एक लेखक म्हणून नांवा आयलों, कोंकणी अकादमी, कोंकणी लेखक संघ, कोंकणी भाशा कोंकणी साहित्य परिशद सारक्या कोंकणीच्या म्हालगड्या सं पदाधिकारी, वांगडी, कार्यकर्तो अशा विंगड विंगड रुपांनी म्हाका वा मेळ्ळें.

आयज गोवा कोंकणी अकादमीचो उपाध्यक्ष म्हूण आ पावलाकणकणी कोंकणी मायेच्या रिणाचो उगडास जाता आनी स सरस्पतिच्या आंगणांत आजुनय जायत्यो तळयो खेळपाक जाय, आ आंदोलनां चळवळी करपाक जाय अशें दिसपाक लागता.

कोंकणी भाशेक कागदार, कायद्यांत सगळें फावलां, पूण का मात आजून कोंकणीच्या वांट्याक आयिल्ले त्रास, उपहास, ति सोंपूंक नात. गोंय सरकारान कोंकणी राजभाशेचो पास जाल्लो खऱ्या अर्थान राज्यांत लागू करूंक ना. कोंकणी भाशेच्या वांट्याक जाय आशिल्लो सरकारी पालव कोंकणीक आजून मेळना. गोंय भ कोंकणी राज्य म्हणून अख्ख्या संवसाराक कळपाक जाय. कोंकणी म एकचार जावंक जाय. जात-धर्माच्यो वणटी मोडून एकसंघ मनिस समाज म्हणून कोंकणी मनशाची वळख संवसाराक जावंक जाय अशें दि लागतकच कोंकणी चळवळींतलो म्हजो वावर अदीक नेटान जावंक अशें दिसले बगर रावना. देखून शेवटाक म्हणन दिसता, कोंकणी चळ वावर आजून सोंपूंक ना. तो करपाचोच ध्यास आसा. त्या ध्यासान पावलां मारतां.

✻

साहित्य नियाळ

# ...ल्ली सांज

## ...काव्यसंवसाराचे गिरेस्तकायेंत मोलादीक भर

...गवेंकार

...सांज' हो कवी पांडुरंग भांगी हांचो 'दिस्टावो' आ... ...ी 'अदृस्टाचे ...विता-झेल्यांउपरांतचो नवो कवितां-झेलो. एक... प्रतिभासंपन्न ...डुरंग भांगी हांणी कोंकणी काव्य-संवसारांत ... आपणाली एक ...न तिगोवन दवरल्या, हाची सातत्यान जाणवी... ...िवपी असो ...लो. ह्या कवितां-झेल्याक जे कवितेचें नांव दि... ...ा ते 'चांफेल्ली ...तेंत कवीन म्हळां तें तांच्याच काव्याक तंतो... ...ंत लागू जाता, ...ह्या झेल्यांतल्यो भोवतेक कविता वाचले उ... ...रांत जाणवता.

*...रांच्या मळबांतल्यान*
*...त्रां पिकून झडटना*
*...जय चांफेवनः पर्मळटा*
*...लांचेर दाटिल्लो धूल्ल*
*...तुरी जावन घमघमता*

...सांज' ह्या कविता-झेल्यांतल्यो भोवते... ...क सगल्यो कविता ...रंगबाबांच्या परिपक्व अणभव-विश्वाचो क... ...ात्मक रुपांत जाल्लो ...कविचे अणभव, ताचे उमाळे उतरांच्या म... ...बांतल्यान पिकिल्ल्या ...डटात, हाची रसीक वाचप्यांक प्रचिती दिवपी अशें तांचें ह्या ...तलें काव्य. ह्या कवितां-झेल्यांत वट्ट ४९ कविता आसात. ... कवितांचें वाचन करतकीर रसीक ब... ...ाचप्याच्या मनांत एका ... प्रतिमा उबी जाता. आत्मनिश्ठ क... ...तेचो एक रेखीव आनी ...ाविश्कार आमकां तांच्या काव्यांत ...दिश्टी पडटा. 'चांफेल्ली ...विता-झेल्यांतल्या वेगळ्या वेगळ्या ... कवितांनी आमकां कविच्या ...ळमळे आनी व्यथा, हांचें उत्कटत्तायेन दर्शन घडटा. तांच्या ...तांतल्यान परगट जाल्ली ही भावना वाचप्यांच्या काळजाक ... मुखेल कारण म्हळ्यार तांच्या कवितांतली मेजक्याच उतरांनी ...ी आशय-संपन्नताय. समर्पक प्रतिमा आनी प्रतिकां हांचो वापर ...ालो उमाळो परिणामकारकतायेन वाचप्यांमेरेन पावोवपाची तांक ... आसा. कवीन वैयक्तीक जिणेंत जें अमर्याद दुख्ख सोंसलां, ...पणाची जीण जियेला, ताचें पडबिंब ताचे कवितेंत ठसठशीतपणान .... ''कविता ही म्हज्या भितरच रावपाची, म्हजे जिणेची एक ... अशें पांडुरंगबाब ह्या कविता-झेल्याचे प्रस्तावनेंत म्हणटात, ... आमकां तांच्या काव्याचेर एक नदर मारल्यार रोखडेंच येता.

*...नवळखी जिणे वाटेर*
*...वय एक अनवळखी*
*...त्ते दोळ्यां दिवे तरी*
*...ाशेची काळखी*

...त कविचें एकोडेपणाचें दुख्ख प्रत्ययकारी रितीन परगट जालां. ...क्ष जिणेंत जें भोगचें पडलां, ताच्या काळजाक घाये करपी ...ताका सोंसचीं पडल्यांत, तांकां तांणी आपणाल्या कवितांच्या ...ान वाट करून दिल्या, ही गजाल रोखडीच ध्यानांत येता.

*शाश्वताचे भेटेक हाडूं*
*खंयचे अमृताचे कळे?*
*भोगितच जियेतां*
*मर्णाचे सुवाळे*

हें 'वाटय केन्ना केन्नाय' हे कवितेंतलें कडवें वा

*घाय काळजाचे घाल्ले*
*कशे मोन्यांनीच सोंसूं?*
*बुडटा ओसाडींत तारूं*
*कसो देगेरच रावूं?*

हें 'व्हाळ रगताचे व्हांवले' हे कवितेंतलें कडवें घेवंया. अशा कितल्याशाच कडव्यांतल्यान कविच्यो व्यथा कलात्मक रितीन परगट जाल्यात. कवी म्हणटा,

*कितल्यो राती आयल्यो अश्यो। म्हाका हुमटावन उडोवन गेल्यो।*
*कितल्यो राती आयल्यो अश्यो। दाग दाग दिवन गेल्यो।*

कविच्या काळजाक लागिल्ले हे दाग वा दुसरे एके कवितेंत तांणी उक्तायिल्लो 'भितल्ले भितर जाल्लो घुस्मटमार' आनी

*अगड घळिंतले*
*सोंपून सोंपनाशिल्ले वळवळे*

हें सगळें कविचे तळमळे आनी व्यथा परगट करता. पूण कवी पांडुरंग भांगी हांचे कवितेचें वैशिश्ट्य अशें की ह्या सगल्या व्यथांक लागून तांच्या काव्याक निर्शेणेचो स्पर्श लागिल्लो दिसना. हीं सगळीं दुख्खां स्थितप्रज्ञाचे वृत्तीन ते स्विकारतात. हाची प्रचिती वाचप्याक येता.

*पावस बडवल्लेवरी आवाज*
*वागोळ्यांनी पांखां फडफडायल्लेवरी*
*भूत कशी रात*
*अशा वेळारय*
*काळजांतल्यान वाटो फुटत आसतात*
*वाटांक आतां अंत ना*
*सोंसणिकायेक मीत ना!*

'भुंयेच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी' हे कवितेंतल्या ह्या कडव्यांत तांची आशावादी वृत्ती आमकां दिश्टी पडटा. ही आशावादी वृत्ती तांच्या हेर कांय कवितांनी उपाट भरून ओततना दिसता. आपणाल्या व्यथांचें परगटण तांणी कितल्याशाच प्रतिकांच्या रुपांतल्यान केलां. तांतुंतलें एक प्रतिक म्हळ्यार 'काळोख'. पूण हें प्रतिक कविच्या काळजांतल्यो फकत व्यथाच परगटायना. जाल्यार, हावेसाचें, नव-निर्मणेचें प्रतिक म्हूणूनय काळखाचो वापर तांणी आपणाले कवितेंत केला. कवी म्हणटा,

*काळोख*
*काळखांतच मेळटा उबारी*
*काळखांतच आसता फुलत*
*फुलाफुलाची कळी*

कविच्या काळजांतलो हो हावेस 'सवर्णी पांखांत' हे कवितेंत वेंचीक उतरांनी कलात्मकतेन परगट जाला. कवी म्हणटा

*सवर्णी पांखांत*
*मळब घेवन उडटात*
*ल्हारांल्हारांतले हावेस*
*दोळ्यादोळ्यांनी उसळटात!*

'किद्याखातीर हो जन्म' हे कवितेंतूय हेच हावेस उकतो जाला. कवीक आपणाले जिणेंत व्यथा सुयो कश्यो रोंबत रावल्यात. सपनांची केल्ली जोगोवणी हुंवारून आयिल्ल्या व्हाळाच्या झोतांत जंयचे थंयच विर्जळून गेल्या. पूण, अकस्मात आयिल्लें भिरें कास्ट जायत आयिल्ल्या झाडाक हालयता. सपनांच्या चान्न्यांत पान पान चिप्प भिजयत नवी आंकरी फोडून वता. अशे तरेन निर्शेणिच्या हुंवारांत सांपडिल्लो कवी आपणाले जिणेक हावेसाची नवी आंकरी फुट्टा तें पळोवन खोशी जाता. जिणेंत सोंशिल्लीं दुख्खां विसरीत तो फाल्यांची फांतोड्ड फुलोवपाचो हावेस बाळगिता. 'किद्याखातीर हो जन्म?' हे कवितेंत कवी पांडुरंग भांगी हांची जिणेकडेन पळोवपाची आशावादी वृत्ती खूब उत्कटतायेन व्यक्त जाल्ली आसा.

खंयच्याय कविच्या काव्यांत वाचप्यांक भावनांक आवाहन करपाची शक्त कितली आसा, हें कळपाखातीर एक गजाल जाणून घेवची पडटा. कवी आपणाले कवितेंत जो आशय परगट करपाचो यत्न करता, तो परगट करपाच्या कामांत ताणें वापरिल्ली शब्दकळा समर्पक आसा काय ना, हें समजून घेवप. कवीक आपणाल्यो भावना शब्दांच्या माध्यमांतल्यानच उकत्यो करप शक्य आशिल्ल्यात, ताणें वापरिल्लीं उतरां ह्यो भावना कितले कलात्मकतेन व्यक्त करतात, हेच एके गजालिचेर कवितेचें स्रेशठत्व थरता. कविच्यो भावना परगटावपी उतरां हीं आपणाली लय, नाद आनी आशय परगटण शक्त हांचेसयत कितल्या प्रभावीपणान उकतीं जाल्यांत, हाचेर ते कवितेचें सौंदर्य आदारून आसता. 'चांफेल्ली सांज' ह्या कविता-झेल्यांत, अशें सौंदर्य आशिल्ल्यो कितल्योशोच कविता आसात. 'ब्रह्मांडाचो भोगी' हे कवितेंतलें ''तटास जाल्यात रूख, तटास जाल्यात सांवळ्यो, तटास जाला वारो, तटास जाल्यात दिको' हें शब्दचित्र वा 'रातय आज अशी' हे कवितेंतलें 'तटास ओसाडिर्चीं ल्हारां तटास नक्षत्रांचीं औरां, अंतरांतली भोंवडी आतां निःशब्दार्चीं चंवरां!'' हें शब्दचित्र लय, नाद आनी आशय परगटण-शक्त ह्या तीन गुणांक लागून वाचप्याच्या काळजाक भावता. ''लख्ख उजवाडलें'' हे कवितेंतलें शब्दचित्र अल्पाक्षरी कविता कितली आशयघन आसूं येता, हाची एक उत्कृश्ट देख म्हणूंक जाय. कवी म्हणटा,

*मळब आपले*
*मोनेळीन उलयतना*
*वाऱ्यान*
*कळ्येकळ्येक जागैली*
*एक सवणें*
*भोंवाडो काडून*
*दिगंतराक उडलें*

*लख्ख उजवाडलें!*

हे कवितेंतलें सैमचित्रण जितलें प्रभावी जालां, तितलेंच तें 'वतां हळदिर्चीं' हे कवितेंतय जाल्लें आसा.

*वतां हळदिर्चीं हळदिर्चीं*
*भुंये होंकलेचो चुडो*
*नितळ निळ्या मळबाचो*
*रंगून रंगता विडो!*

तेचप्रमाण

*दवाचो थेंबो*
*सुर्याक वेंगेंत घेवन लिकलिकता*
*एक खीण*
*खिणभर गोठेता*
*निराकाराक आंवडेता*

हे कवितेंतलें सैमचित्रय अशेंच प्रत्ययकारी जालां. कवी पांडु[illegible] हांच्या काव्यांत पडबिंबीत जाल्लें सैम निखटें सैम म्हूण आ[illegible] येना. कवी आपणाल्यो व्यथा वा तळमळे, तशेंच ह्या [illegible] तळमळ्यांतल्यान तिगून उरिल्लो ताचो हावेस, फुडाराचें सपन, [illegible] परगट करपाचें एक सादन म्हूण सैम आनी ताच्या रुपांचो वापर [illegible]

तांच्या काव्यांत दिश्टी पडटात तीं रात, झाड, माती, काळो[illegible] चान्नें, सूर्य, मळब, सवर्णी, ल्हारां, वारो इत्यादि, सगलीं सैम-रू[illegible] काळजांतलें दुख्ख, वेदना आनी तशेच हावेस खूब कलात्मकते[illegible] करतात.

*पान पान गळिल्ले रूख*
*तांकांय फुट्टून येतली*
*लुसलुशीत आंकरी*
*बियांक्य फुट्टन येतले कोंब*

अशा उतरांनी कवी जिणेवयलो आपणालो अखंड विस्वास पर[illegible] तांच्या काव्याचें मुखेल सूत्र जर खंयचें आसत, तर तें हेंच[illegible] जिणेचोच एक वांटो, हें सत्य तांच्या काव्यांतल्यान खूब प्रत्ययका[illegible] परगट जालां. ते म्हणटात, ''मरणय सपनांच्या देशांत उदेल्ली एक[illegible] आसता.'' कवीक मरणांतय उजवाड दिसता, हें ''जिणेची या[illegible] तेन्नाच मर्णाचो उजवाड फांकता'', ह्या कडव्यांत थोड्याच[illegible] ठसठशीतपणान उकतें जालां. कवी पांडुरंग भांगी हांची कविता, [illegible] आत्मनिश्ठ आसली, जाल्यारय कांय कवितांनी व्यक्त जाल्ल्[illegible] उमाळ्यांक समाजिक परिमाणय लाबलां. 'शहर वाडत वता' [illegible] हें ठळकपणान दिश्टी पडटा. अशा कवितांतय तांचो अमर्याद [illegible] उपाट भरून ओततना दिसता.

*शहर वाडटा / तितलें अनवळखी*
*जायत जायत / मनीसपण विसरता*

अशें म्हणटा आसतना

*त्या व्यथांच्या आनी / तळमळ्यांच्या उज्यांतल्यान*
*घडये उजवाड फांकून गावये / उणें जाल्लें मनिसपण*
*रुखावरी फुलून कळुंये*

असो आशावादय ते परगट करतात. पांडुरंगबाबाचो हो नवो का[illegible] कोंकणी काव्यसंवसाराक गिरेस्त करपी असो आसा, हातूंत दुब[illegible]

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनान उजवाडायल्ल्या ह्या झेल्या[illegible] श्री. दिगंबर सिंगबाळ हांणी काडलां. अक्षर जुळणी आनी छापणावळ [illegible] तन्वी ग्राफिक्स आनी न्यू एज प्रिन्टर्स हांची आसा.

**चांफेल्ली सांज**
**पांडुरंग भांगी**
**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन**
**पानां: ६०; मोल: रु. ४५/-**